# नशिबांत निर्मिल्लें

कथा झेलो

मूळ रोमी :
**कामिलो मिनेझीस**



लिपयांतर :
**विशाल खांडेपारकार**

# नशिबांत निर्मिल्लें

मूळ रोमी :

**कामिलो मिनेझीस**

लिपयांतर :

**विशाल खांडेपारकार**




**गोवा कोंकणी अकादेमी**

नशिबांत निर्मिल्लें
कथा झेलो

बरोवपी :
कामिलो मिनेझीस

लिपयांतर :
विशाल खांडेपारकार

प्रकाशन क्र : 142



पयली आवृत्ती : 2011

उजवाडावपी :
गोवा कोंकणी अकादेमी,
243, पाटो कॉलनी,
पणजी-गोंय.

छापपी :
कस्तुरी ग्राफीक्स
ढवळी, फोंडे-गोंय

मुखचीत्र : डेल मिनेझीस

मोल : रु. 60/-

Noxibant Nirmilolem
Katha Jhelo

Writer:
Camilo Menezes

Transliteration:
Vishal Khandeparkar

Publication No. 142



First Edition : 2011

Publisher :
Goa Konkani Akademi
243, Patto Colony,
Panaji -Goa.

Printer :
Kasturi Graphics
Dhavali, Fonddem, Goem.

Cover: Dale Menezes

Price Rs. 60/-

(हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या लिपयांतर येवजणेखाला छापलां.)



# मांडावळ

# अकादेमीचे वतीन

'लिपयांतर येवजण' ही कोंकणी भाशेक सगळ्यांमेरेन पावोवपाक आसा. कोंकण प्रांतातले कोंकणे कोंकणी बरयतात तेन्ना ती थळावे प्रभावीत भाशेचे लिपींतल्यान बरयतात. देखीक कर्नाटकांत प्रभावी आनी शासनकर्त्यांची थळावी भास कन्नड, थंयची राजभास कन्नड, सभावीक कोंकणी ही अल्पसंख्यांकांची भास आनी अल्पसंख्य जनसमुदाय मुखेल भाशेचे लिपींतल्यान आपणाली स्वताची मायभास उक्तायता. देखून कर्नाटकांत कोंकणी खातीर कन्नड, केरळांत पयलीं मल्याळम लिपींतल्यान कोंकणी बरयताले, नवायत मुस्लीम उर्दूतल्यान. पूण केरळांतल्या कोंकणी बरोवप्यांनी कोंकणी समाजाकडे एकरूप जावन भाशेवरवीं एकाच धाग्यांत गुंथून रावपाचें थारावन आतां थंयचे बरोवपी देवनागरी लिपींतल्यान कोंकणी बरयतात. कर्नाटकांतूय हे प्रयत्न चल्ल्यात, कांय कडेन थोडीं भोव हे प्रागतिक परिवर्तनाक आडमेळींय येतात पूण एकठांय येवपाक आनी एकामेकांचे लिखाण असुदाय समजुपाक, कोंकणी समाजाचो कला, साहित्य, संस्कृतीच्या मळार एकवट जावंचो म्हणून भारतीय लिपी, भारतीय भासांक आसप सभावीक. कोंकणी ही पुराय भारतीय भास, संस्कृत भाशेची एक धूव, म्हणटकच आवयची लिपी तीच कोंकणीची लिपी हो सैमीक नेम. पूण खूब जाणांक हें समजुपाक आनी वास्तवतेंत हाडपाक मात्शें कठीण वता.

गोंयांत कांय इतिहासिक कारणांक लागून रोमी लिपींतल्यान आमचे कांय कोंकणे भाव व्यक्त जावंक लागले आनी फिरंगी पाद्र्यांनी आपणायल्ले लिपींतल्यान जेन्ना थळाची कोंकणी भास बरयली ती तांचे रोमी लिपीत. ही चाल मागीर हांगा रुजली आनी हांगाचो धर्मांतरीत वो परिवर्तीत मुळाचो कोंकणो मनीस रोमी लिपींत बरोवंक लागलो तो हो वेळ मेरेन. देखून जेन्ना रोमी लिपींत कोंकणी साहित्य येता ते देवनागरी लिपींत हाडप गरजेचें जालें आनी गोवा कोंकणी अकादेमीन 'लिपयान्तर' ही येवजण तयार केली. हे येवजणेंतल्यान रोमी, कन्नड वो मल्ल्याळी लिप्यांतल्यान आयिल्लें कोंकणी साहित्य देवनागरी लिपींत हाडपाक सुरु जालें.

'नशिबांत निर्मिल्लें' हें मूळ रोमी लिपींतले पुस्तक देवनागरी लिपीत केलां. बाब विशाल खांडेपारकार हांणी हो बरो वावर करून गोवा कोंकणी अकादेमीक दिला. तो पुस्तकरूपान रोमी लिपींतल्यान नागरीत छापूंक खूप खोस जाता. मूळ रोमींत सर्गेस्त कामिलो मिनेझीस हांणी बरयिल्लें बरप तांचो भाव श्री. वॉल्टर मिनेझीस हांणी नागरींत छापपाची संद गोवा कोंकणी अकादेमीक दिली, देखून तांकां धन्यवाद म्हण्टा.

**एन्. शिवदास**
अध्यक्ष,
गोवा कोंकणी अकादेमी

# बरोवपी बाबूश

सेबास्तीयांव आनी पाश्कोल क्लारा कासियाना मिनेझीस हांच्या स भुरग्यांमदलो कामिलो मिनेझीस हो पयलो पूत 19-07-1938 ह्या वर्सा ताचो जल्म जालो. कामिलाक तीन भयणी आनी एक भाव. तातुंतलो निमणो भाव वॉल्टर म्हजो पापा. हांव वॉल्टराचो पूत. कामिल म्हजो तितीव पूण घरांत आनी गांवांत तशेंच म्हजो पापा कामिलाक ''बाबूश'' ह्या नांवांन वळखताले. 28-07-1998 ह्या वर्सा तो संवसाराक अंतरलो.

कामिल ''बाबूश मिनेझीस हो कोंकणी भाशेंतल्यान खूब बरयतालो. म्हूण आयज आमकां उण्यांत-उणीं पंन्नास वर्सां फाटल्यान कळून आयलां. म्हज्या पापान हालींच आपलें दुसरें पुस्तक 'जैत आनी हेर कविता', गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'आर्थिक पालव' येवजणे खाला उजवाडाक हाडिल्यो. हे येवजणे खाला ताणें अकादेमीक पन्नास प्रती दिवपाच्यो आसल्यो. ह्याच कामांक लागून तो गोवा कोंकणी अकादेमीत गेल्लो. थंयच ताची आनी ब्राझील सुवारीसाची वळख जाली. ब्राझीलबाबाक बाबूश म्हजो पापाचो पाय दिसलो. ताणें हे खरें काय म्हूण म्हज्या पापाक प्रस्न केलो. म्हज्या पापान ताका बाबूश आपलो पाय न्हय, पूण आपलो व्हडलो भाव म्हूण सांगलें. तेन्ना ब्राझीलबाबान ताका खूब वर्सां आदीं 'अ वांगुरडा' सातोळ्याचेर नेमान बाबूश खूब बरयतालो म्हूण सांगलें. आपूण ताची बरोवपां नेमान वाचतालों हेंवूय ताणें सांगलें.

ही गजाल पापान येवन आमकां सांगली. तेन्ना म्हजी बारावेची परिक्षा निकतीच सुरू जावची आसली. हांव बाबुशाचीं बरोवपां कविता आनी काणयो सोदून काडपाक वोलींटेर जालों. ताचे उपरांत ही गजाल थंयच थंड पडली. म्हजी परिक्षा सोंपली आनी सुटयो पडल्यो. पूण हांव बाबुशाक विसरूंक ना. रोकडोच दुसऱ्या दिसा पणजेच्या सेन्ट्रल लायब्रिरींत गेलों.

'वांगुरडाचे' धूल्ल बशिल्ले चार मोटे ग्रंथ (वोल्यूम) थंय काम करतल्यांनी

म्हाका सोदून दिले. हे ग्रंथ 1955 ते 1958 वर्सातलें आसले.

सकाळच्या आदेसाक कांयच मेळुंकना जेवण करून येतकूच थोडी धुळ भरिल्ली हळडुवीं जाल्लीं पानां चाळ्ळीं. शेकीं ताचें पयलें प्रकाशीत जाल्लें बरोवप म्हाका मेळ्ळें. चारांतले चारूय ग्रंथ चाळटा म्हणसर सगळो दीस सोंपलो.

पयलीं-पयलीं म्हाका ताचें बरोवप खूब थोडें मेळ्ळें. पूण जशे 'अ वांगूरडाचे' अंक प्रकाशीत जायत गेले. तशीं ताचीं बरोवपां सहज दोळ्यांनी भरपाक लागलीं. हांवे ताच्या बरोवपाचे डिजीटल कॅमेरा घेवन फोटो काडले. ताचो रिर्टन आवटपूट पळोवन हांव थटकलों! ताची एक कथा 'नशिबांत निर्मिल्लें' आठ भागांनी उजवाडाक हाडिल्ली. जाल्यार दुसऱ्या पानार ताची कविता. तो केन्ना-केन्ना बरोवपांय बरयतालो.

डिजीटल कॅमराचेर फोटू काडून म्हजें काम सोंपलें ना. हे फोटू कॉम्पूटराचेर घालून तातुंतलीं उतरां हातानी बरोवपाचीं आसलीं. ताचें सगळें बरोवप हातांनी बरयता म्हळ्यार एक म्हयनो लागलो. दोन मोट्यो डायऱ्यो बरयल्यो.

मागीर, एक काळ असो आयलो. बाबूशा भितरलो बरोवपी शांत जालो. 1958 वर्सा ताणें एकूच बरोवप केलें. घडये ताणें तियात्र बरोवपाक सुरूवात केल्ली आसत. कारण आमचे केपेंचे गांव भाव जे बाबूशाक तरणे पिरायचेर सावन वळखताले, ते ताच्या तियात्राची आजून याद काडटात. 'फावना तें मेळना' 'म्हजो अपराध' हे ताचे गाजिल्ले तियात्र खंय. ताच्या ह्या तियात्राची हात बरपां आमकां आयज लेगून मेळनात.

आपूण खूब बरयतालों म्हूण ताणें केन्नाच आमकां कुटूंबातल्या वांगड्यांक सांगलें ना उपरांत पापा बरोवपाक लागलो. तरी तो वोगीच रावलो. आमच्या घरांत कोंकणीचो एक व्हड पूत आसलो हाची कोणाकच खबर नासली. पापाक लेगीत.

'अ वांगुरडा' कोंकणी विभागाचो संपादक आसलो श्री. प्रभाकर तेंडुलकार. ह्या सातोळ्याचेर नदर मारली जाल्यार कोणाकूय समजूं येतालें. तेंडूलकाराक विझन आनी कोकणीचो उपाट मोग आसलो.

हीं सगळीं बरपां आदलें पद्धतीन बरयिल्लीं आसलीं तांची वाक्यां बांदावळ तशा तशीच दवरल्या खरी पूण शुद्धलेखनाचे नदरेतल्यांन जाग्यार घाल्यांत. आमी माथाळें (टायटल) तशेच दवरल्यात. हाचें फाटलें कारण इतलेंच आमकां ह्या बरोवपांतल्यान वाचप्यांक त्या काळाचो कोंकणीचो परमळ दिवपाक जाय. ह्या काणयांनी खूब पुर्तूगेज उतरां, पुर्तूगेज लॉन वर्डस आसात. तीं आमी तशींच दवरल्यांत.

बाबुशाच्या पुस्तकाचें नांव 'नशिबांत निर्मिल्लें–कथां झेलो'. 'नशिबांत निर्मिल्लें' ही ताची मुखेल कथा. पन्नास वर्सां आदीं बरयिल्यो कथा खंय तरी शिरकून आसल्यो. त्यो आमी चुकून (बाय डीफोल्ट) ब्राझीलबाबाच्या एका उतरांतल्यान सोदून काडल्यो. पन्नास वर्सां उपरांत बाबूशाचे संपादक ताच्या पुस्तकाची प्रस्तावना बरयतात. हें असलें भांगराचें भाग्य. म्हाका तरी दिसता आमच्या 'नशिबां' तूच 'निर्मिल्लें'!

**–डेल मिनेझिस**
केपें



# प्रस्तावना

A VANGUARDA

## कोंकणी भाशेचेर बदमाश जावप म्हणल्यार आवयचेर बदमाश जावप

आदल्या काळार सुमार पन्नास साठ वर्सां आदीं गोंयांत कोंकणी बरोवपां - वाचपां नेटान चलतालीं. दिसाळीं सातोळीं आनी म्हयन्याळीं गोंयांत तशेंच मुंबयंत प्रगट जातालीं. आमचो लोक तीं विकतीं घेवन वाचतालो. 1954 वर्सा ‘‘अ वांगुरडा’’ हें पुर्तुगेज-कोंकणी साताळें सुरू जालें. कोंकणी विभागाचो हांव संपादपी आसलों. त्या काळार मुंबयचीं मराठी पत्रकां गोयांत येवंक पुर्तुगेज सरकारान बंदी घाल्ली. आनी कांय हिंदू भाव लेगीत वाचूंक कांय मेळना जावन ते रोमीतल्यान कोंकणी बरयताले आनी वाचताले. त्या भायर क्रिस्तांव भाव रोमी कोंकणी फाटल्यान आसलेच.

ह्या वेळार केपेचो एक उर्बे भरीत तरणाटो सर्गेस्त कामिलो मिनेझीस म्हज्या संपादनपणा खाला चलतल्या ‘‘अ वांगुरडा’’ सातोळ्याचेर कोंकणींतल्यान बरोवप करतालो. मोटव्यो कथा बरोवपाक तो हुशार आसलो. ताचें तें बरोवप पळोवन हांव अजाप जातालों. ह्या पुस्तकांत ‘नशिबांत निर्मिल्लें’ ही कथा छापल्या ती वाचतकूच ताची हुशारकाय कळून येता. नवीन नवीन घडणुको आपल्या कथांनी घालून त्यो कथा तो रूचीक करतालो.

ह्या पुस्तकांत कामील मिनेझिस बाबाच्यो आठ कथा आसात. त्यो बरी देख दिवपी आसात. ताणें उमेदीन कोंकणी बरोवपाक सुरूवात केल्ली. 1956 आनी 1957 ह्या दोन वर्सांत ह्यो कथा बरयिल्यो आसात. पूण उपरांत तो बरयना जालो. उपरांतचीं इतलीं वर्सां ताणें बरयल्लें जाल्यार तो कोंकणीतलो एक फांकिवत बरोवपी जातलो आसलो. ताच्या भावान, वॉल्टरबाब मिनेझीसान, तोवूय एक बरो कोंकणी बरोवपी, आपल्या भावान बरयल्यो कथा पुस्तक रूपान छापूंक येवजिलें. हांवें त्यो संपादीत केल्ल्यो देखून ह्या पुस्तकाक प्रस्तावना बरोवपाक ताणें म्हजे कडेन मागलें हांवें ते उमेदीन मानून घेतलें.

कोंकणी ही आमची गोंयकारांची आवय भास. कित्याक तर आमी सुपुल्ले भुरगे आऽसताना आवयचे व्होटयेंत बसून ती उलोवपाक शिकतात. तिचेर बदमाश जावप म्हणल्यार आवयचेर बदमाश जावप. उपरांत इश्कोलांनी वचून आमी दुसऱ्यो भासो शिकतात. वाचतात आनी बरयतात. पूण त्यो आमच्यो आवय भासो जावूं नज. आवय भास जी आमी सुपुल्ले भुरगे आसताना आवयचे व्होटयेंत बसून शिकतात. ती एकूच आवय भास.

नीज कोंकणी मनशान आपलें आवय भाशेचो काळजा सावन मोग करपाक जाय. अशी म्हजी विनंती. एका बऱ्या बरोवप्याच्या पुस्तकाक ''प्रस्तावना'' बरोवपाक म्हाका खोस भोगता. नीज कोंकणी मोग्यांनी हें पुस्तक वाचूंक मागतां.

**प्रभाकर तेंडूलकार**
म्हापशें - गोंय

***

# 1. नशिबांत निर्मिल्लें



''आरे विन्सेंत तुज्या पायचें नांव कितें? तो खंय आसता...?..'' अशें ताका इश्कोलाच्या भुरग्यांनीं इश्कोला सावन घरा परतताना विचारलें.

''म्हज्या पायचें नांव हांव नकळ. म्हज्या मांयच्या लागीं विचारून हांव फाल्यां तुमकां सांगतां?'' त्या णव वर्सांच्या विन्सेंतीन प्रतिपाळ करून सांगलें. तो तेन्ना निकतोच पुर्तूगेज शाळेंत दुसरेच्या वर्गांत शिकतालो. मदींच तोंड घालून पीटरान विचारलें ''आरे विन्सेंत तशें जाल्यार तुजे मांयच्या सांगता कोण जियेता?'' ''हांव तें नकळ. ताका पाय म्हूण हांव पाचारिना. जाल्यार ताका पाय म्हणपाक म्हाका जिबूच येना. फक्त हांव ताका आरे म्हूण पाचारतां''.

''तर बरें आसा. फाल्यां तुज्या पायचें नांव कितें तें तुजे मांयलागीं विचारून यो'' पीटरान सांगलें.

''तें म्हजेर पावलें...! बरें आदेवसू'' अशें म्हणून आपल्या सांगात्यांक विन्सेतीन घरची वाट तांकली

वाटेन वतना तो भारी चिंतता. आपलेच केंस पिसुडटा. ताचे दोळे दुकांनी भरतात. तो एक सारको धांवपाक लागता. कित्याक? घडये ताका लज जाल्ली आसूं येत. आपल्या पायचें नांव नकळ म्हूण? तो कितें तरी बारीक चिंतता. अशें ताचें मुखामळ दाखयता.

तो खर्शेत घामा घूम जावन घरा पावलो. तो घराचे पांवडे चडटालो. जूस्त

ताची मांय पालमिरा भायर येता. आपल्या पुताचे आठयल्लें रूप पळोवन ती भारी अजापता. ताका विचारता.

"विन्सेंत आयज तुजें सगळेंच रूप बदल्लां शें? तुका घाम कित्याक सुटला?... म्हाका दिसता तूं कसल्या तरी चिंतनानी घुसपला सो? ....

"मांय एक चड गरजेचें काम हांव तुज्या लागीं विचारतां, मांय ते इश्कोलाचे सगळे सांगाती सदांकाळ म्हाका विचारतात कोण जावन आसा म्हजो पाय? खंय आसता आनी कितें ताचें नांव?"

हीं इतलींच विन्सेंतीचीं उतरां आयकून पालमेराक शेळो घाम सुटलो. ताची जीब धरिल्ल्या बशेन जाली. तिच्या हातांक पायांक कडकडो सुटलो. एक वणत कशी थंयच ती उबी रावली.

हें आपले आवयचें आठवेंच भिरांकूळ दिसणें पळोवन विन्सेंत भारी थटकलो. तरी जावन ताणें आनी एक विचार केलो. "मांय तो तुज्या सांगाता जियेता तो, हांव ताका आरे म्हुण पाचारतां, तो कोण आमचो? ही उतरां एक जोगलावणें कशें तिचेर पडटा. ती थंयच भुंयेर पडटा. जाय तो वेळ पासून सोयराण नासताना.

आतां सुमार सांजेचो पांच वरांचो वेळ जाल्लो. ह्या वेळार शिर्विसे सावन तो आरे येता. बरो अपटूडेट न्हेशिल्लो दोळ्यांक रेबन वक्ल लावन तोंडात एक सिगार धरून नेटान तो घरांत भितर सरिल्लो.

त्या वेळार पालमिरा भारी चिंतेस्त बशिल्लें तें तो पळयता. तो पालमिराच्या लागीं वचून ताका विचारता, इतलें चिंस्तेस्त जावपाचें कारण कितें? उपरांत तीं दोगांय लागीं येतात. कसल्यो तरी गरजेच्यो गुपीत गजाली जाल्ले भशेन फुतफुत्तात.

तांका हागांच दवरून आतां आमी ताचो पुर्विल्लो इतिहास पळोवया.

पालमिराच्या घोवाचें नांव फेलीक्स आसलें. तो तारवार शिर्विस करतालो. तारवाची वियाज मारतकूच तो घरा परतलो. ताका आपल्या बायलेच्या कर्तुबाची कांयच खबर नासली. पालमिरा आपलो घोव तारवार वतकूच एडमंडा लागीं मजा मारतालें हें सगळो गांव जाणा आसलो. आपलो घोव तारवार सावन घरा परततकूच गांवचो लोक ताका आपल्यो खबरो सांगतलो. म्हूण त्या नश्ट्या

पालमिरान सव्याच दिसा आपल्या घोवाचे जिणेंत वीख घालें ताका ह्या संवसारांतलो कडसरलो. तो मेल्यार आयज जायतो तेंप जालो. अशी वर्तुवली ताची पुर्विल्ली खबर.

भायर शितळ वारें झुमझुमतालें. अंतराळ सगळें कुपांनी भरिल्लें. ह्या वेळार हो घराबो एडमंड (आरे) पालमिरा आनी विन्सेंत जेवणाक बशिल्लीं. जेवणांत कोणेंच हात घालूंक नासलो. इतल्यांत अवचीत भायल्यान एका शेजाऱ्यागेर बोबो जातात. ती तिगां जेवण मेजार सोडून भायर धांवतात.

होय एक बरो सुयोग. एक व्हडल्या खाडाचो काळो-किट्ट बुकलो. विन्सेंतीक वाडिल्लें जेवण खाता थंयच मरून पडटा. कित्याक त्या जेवणांत वीख घाल्लें आसता. देखून खरेंच देवाच्या हुकूमा शिवाय कोण मरना जरी विन्सेंतीच्या जेवणांत वीख घाल्लें तो मरूंक जाय म्हूण तरी ताका देवान वाटायलो तें जेवण बुकल्यान खालें.

ही आपली येवजणी-चिंतनां सारतीं पावना म्हूण एडमंड आनी पालमिरा मनांत बरींच चाळवलीं. विन्सेंतीक जित्तोच मारपाक एक प्लान येवजुपाक लागलीं. मांयचे काळीज! इतलें तें दारूण ?...

हे भशेन दीस येताले वताले. विन्सेंतीच्या इनोसांत काळजाक आपल्या मांयच्या काळजाची कायंच खबर नासली. तांगेर रूजारीओ नावांचो एकोणीस वर्सांचो एक शिर्विदोर आसलो. विन्सेंतीक तो खूब मानतालो. ते दोगी एकाच क्वार्तांत न्हिदिल्ले. खाशा रगताचे भाव जाल्ल्या भशेन.

एके भिरांकूळ काळखी रातीं बारा वरांचेर, ज्या वेळार भायर वारें आशिल्लें एके आवयच्या गोपांत तो चंद्रीम कुपांनी लिपिल्लो. त्याअरिश्ट झाडांचेर खेळटाले ते व्हडा खाडाचे देंवचार. तो रस्तो हुसकेतालो. मनशा कुळाक. सगळेंच मनशाकूळ प्रायश्चित करता शें दिसतालें. ती संवसारी रचना न्हिदिल्ली ती आळशी न्हीद.

या वेळार एडमंड हातांत टोर्च घेवन उठटा. पालमिरा एका हातांत धारेची लकलकीत सुरी घेवन. तीं विन्सेंतीच्या कुडींत वतात. विन्सेंत आनी रूजारीओ त्या कुडीत न्हिदिल्ले आसले. तेन्ना उजव्या अर्दान न्हिदला तो विन्सेंत समजून फाटी फुडें पळयनासताना पालमिरा ती सुरी विन्सेतीच्या काळजांत रोमता. एक

मिनीट लेगीत पिड्ड्यार करिनासतना तें मडें उखलून भायर व्हरतात. थंय एक फोंड काडिल्लो आसता तातूंत तें पुरतात. कोणाक दाखलो दिनासताना!

आह! दळदिरे अस्तुरे! कशें म्हूण पटलें तुज्या खाशा रगताच्या इनोसांत पुताक जिवेशीं मारपाक? खंय गेलें तुजे तें मोगाळ आवयपण? विसरली तू देवाचो पांचवो उपदेश? कसलें फातरा सारकें काळीज जायत तुजें ?...

मनशाक फटोवपाक येत?... ना! केन्नाच ना.

पूण प्रितीच्या वाचप्या तुमी समजतलीं विन्सेंत मेलो म्हूण पूण ना. मेलो तो रूजारीओ जो ताचे कुशीक न्हिदील्लो. विन्सेंत ते राती सगळो आकांतलो. ताका न्हीद पडना जाली. ताच्या आंगार शिरशीरो भरलो. तें सगळें रगताचें भिरांकूळ नाटक ताणें पळयिल्लें.

ह्या वेळार ताका आपलेच भितर एक आवाज आयकुपाक येता. जो ताच्या काळजांत सादयतालो. 'भुरग्या उठ आनी चल तुजो जीव पडटा थंय. वेळ मारेकार वर्तुवता. आनीक वेळ पिड्ड्यार करिनाका' हो आवाज ताका परतो परतो आयकूपाक येता. शेकीं तो ते भिरांकूळ रातीची लांबाय आनी रूंदाय चिंती नासताना. एक सारको धांवपाक लागता. जीव आसल्यार भीक मागून खायन म्हूण.

असो विन्सेंत जायतो धांवल्या उपरांत सुर्या आपलीं भांगराची किर्णा संवसाराचे पृथ्वीचेर शिंवरायता. ह्या वेळार ताका मातसो धीर येता. ताचें पांय भारी असकट जातात. तो एका झाडाच्या मुळांत शेंवटता. थोड्या वेळान ते रातीचे भिरांकूळ कर्तूब तो नियाळटा. आपल्या दुखाचे उल्हास हे भशेन सोडटा.

"आह! नवलायेच्या संवसारा! कितें तुजें भोळेंपण! आज तूं वर्तुवता बरो तर फाल्यां वर्तुवता निश्टूर दुस्मान? कितले जगतात खातात पितात अन्न धान्य, तर कितले जाण सारतात आपले दीस भुकेन तानेन आनी धगधगान! थोड्यांक बरें आदारलेल्याचें फारीकपण अन्न उपकारान मेळटा तर खोटे नीरदुखी मजेन दीस सारतात. काडटात थोडे आपूण साव म्हणून भायल्यान सांतीदादीचो रोग हाडटात तर तेंच भितरल्यान विगांस, क्रिमी आदारूंक पावतात. देवा कितें तुजी नीत? कसली तुजी रचना...? हाय! मांय म्हजे घातके मांय, कशें म्हूण तुका पटलें तुज्या कुसव्यांत जल्मल्ल्या इनोसांत पुताक ती धारेची सुरी तोपूंक?...कितें

उपरांतसलें सैम जायत हें तुजें?.. मांय ह्या उतराचो अर्थ कोण वर्तुवता?..मांय म्हज्या अपुरबायेच्या मांय कसलो गुन्याव आदारलो जायत तुज्या पुतान विन्सेंतान ताका दिवंक मार्णाचें देणें?... आह! सर्व पदवेदार रचणारा तुका पटलें जायत हें दारुण कर्तूब म्हजे मायचें? हाय..! मांय म्हाका मारचे बदलाक तुवें गिरासलाय आमच्या-म्हज्या सांगांती भावाक रूजारीवो सिरविदोराक ज्याका तुवेंच गुपीत पणान फोंडांत घालो. न्हिदयलो!

"आह! म्हज्या सांगांत्या रूजारीओ भावा आयज तूं जगता जातलो त्या सर्गाच्या राज्यांत आंज-भडव्या सांगाता आयज हांव आसां एकसूरो ह्या फटकिऱ्या संवसारांत. हांव तुजे लागीं खतखत्यान मागतां देवा लागीं माग म्हूण म्हजेर बेगीन मरण धाडूंक तुज्या सांगांता थंयच सासणाक जगपाक."

हे ताचे मिरमिऱ्याचे शीण आनी उल्हास एक अस्तुरी आयकता. तिचे नांव कारमिना आसता. जी निकतीच शेतांत आयिल्ली ती अवचीत विन्सेंतीच्या फुडच्यांत उबी जाता आनी विचारता!

"आह! मोगाळ पुता तूं इतल्या सकाळीं हांगा कसो पावलो? कोण कारण वर्तुवतलें तूं हे दुखाचे सुसकारे सोडूंक?.. सांग मोगाळ पुता सांग रडूं नाका. म्हज्यान घडटा जाल्यार तुका हांव जाता ते भाशेन आदार दीन".

"अस्तुरे, देवान तुजेर व्हडलीं बेसावां दिवचीं. आयज म्हाका णव वर्सां जालीं. हांवें ह्या संवसारांत जल्म घेतल्यार पूण आजून हांवें इतली मोगाळ उतरां आयकलीं नात. हें हांव तुका व्हड दुखान सांगता आनी ह्या पासत हांव देवा लागीं मागतां. तुजेर व्हड बेसांव दिवंक"

"पुता हांवें कितें केलें म्हूण तूं इतलो उपकारी जाता?" अशें म्हणून ती बेगी-बेगीन आपल्या शेतांत धांवता आपणाक पेज हाडिल्ली ती विन्सेंतीक दिता. म्हणटा,

"म्हज्या पुता जेव ही पेज सुशेगाद जा उपरात सांग तुजी खबर सगळी सवकासायेन. भिनाका हावूंय एकलींच आसा ह्या संवसारांत म्हज्या पुता जिवाक वायट करी नाका."

पूण विन्सेंत ती पेज जेविना. तिचें तें एक एक मोगाळ उतर आयकून तो अदीक आनी अदीक दुखाचे झरींनी रडटा. जायत्या उपरांत ते अस्तुरेची मागणी तो कबूल करता. तो ती पेज जेवता, दोन तीन घोंट तो मारता. पूण परते ते दुखाचे सुसकारे सोडपाक लागता. शेकीं तो अर्दी अदीक पेज जेवता. थोड्या वेळान समाधान जाल्या उपरांत सांगपाक सुरू करता. आपली मुदलाची कथा. ती आयकून अस्तुरी अजापता आनी रडटा. जाय तो वेळ कोणूच जाप काडिनात. दोगांयची जीब धरल्या भशेन जावन ओगीच मोनीकशीं उरतात.

उपरांत ती अस्तुरी आपलीं दुखां पुसून रडकुळ्या ताळ्यान म्हणटा,

"मोगाळ पुता भिनाका, हांव तुका म्हजो खाशा पूत कसो करतलीं. म्हाका आनीक कोणूच ना. तांकता ते भशेन हांव तुका शिकयतलीं. आनी वाडयतलीं. म्हज्या पुता आयज जर म्हजो घरकार आशिल्लो जाल्यार तुका नाचयतलो आसलो पूण तशें देवान म्हाका निर्मिल्लें ना. देवाची खुशी!" अशें म्हणून ती विन्सेंतीक घेवन आपल्या घरा परतता.

हे गजालीक आतां वर्सां जावन गेलीं. ते अस्तुरे सांगाता विन्सेंत भोव खुशालकायेन जियेतालो. कसलीच धास्ती आनी उणेंपण नासताना तो बरो शिकून एस. एस. सी. ची परिक्षा पास जाल्लो.

भोंवता घुंवता म्हळ्यार तो दीस आयलो, ज्या दिसा विन्सेंत आपले दुसरे मांयक 'आदेवस' करता. त्या परदेशी आफ्रिकेच्या देशांत आपलो पोटाचो ग्रास सोदपाक वता. मोगाळ वाचप्या हांव सांगना त्यादिसा विन्सेंतीन आनी कारमिनान कितलीं खुशालकायेचीं तशेंच दुखाचीं दुकां गळयलीं.

विन्सेंत गेलो खरो. पूण कारमिनाक घर खावपाक येता अशें दिसपाक लागलें. ते दिवें डीम जाल्ल्या भशेन तिका भासोवपाक लागलें. कसल्याच कामांत तिची तकली लागना जाली. दिसरात विन्सेंतीचो हांसतो रूपकार तिच्या दोळ्या मुखार दिसपाक लागलो जेवपाक गेल्यार जेवण पासून तिका रूचना जालें. विन्सेंत गेल्याक आपले एकान एक दीस कारमिना दुखांनी आनी एकसुरपणांत काडपाक लागली.

# आफ्रिकेंत

त्या आफ्रिकेंच्या देसांत विन्सेंतीन आपलें पावल दवरल्यार फक्त चार म्हयने जाल्ले. तो थंय जुनीयर क्लार्काची त्या फामाद नॅशनल बँकेत शिर्विस करतालो. ताच्या सांगाताक वीस वर्सां पिरायेचो एक भुरगो जियेतालो. त्या भुरग्याचें नांव जुलिओ आसलें. तो तेच नॅशनल बँकेत शिर्विस करतालो.

हे रावताले थंय तांच्या घराच्या उजव्या अर्दान गोंयच्या बारदेस गांवचो एक क्रिस्तांव घराबो रावतालो. ह्या घराब्यांत एक सोबीत चली आसली. तिचे नांव फेलिसियाना. सर फ्रांन्सिस्को सौझा आनी मिलाग्रीन बारबोसाची ती एकलीच अपुरबायेची धूव आसली. जाय ते फावटीं ती विन्सेंतीच्या फुड्यांत येवन बसून गजाली मारताली. हेर गजाली मारताना मोगाच्यो गजाली रंगताल्यो. विन्सेंत समजतालो तांची ही एक इश्टागत. सामकी सादीच म्हूण. ताच्या मनांत कसलोच वायट हेतू नासलो. ताका मोगाची मालीस नासली. कारण ताका मोगाच्यो त्यो चतूर खुणो आजुनय कळनासल्यो. ज्यो फेलिसान ताका दिसान दीस दाखयतालें.

आज काल आमी पळयतात ते फुलते पिरायेर पाविल्लीं चेडे-चेडवां मोगाचें अमृत चाकल्या बगर रावनात ह्या मोगाक लागून कितल्या मोग्यांनी आपल्याचेच गोमटेर सुरी ओडून नाताक जालीं ना ह्या संवसारांत? कितल्या मोग्यांनी अवचीत पळापळ काडली ना? आपल्याचेरूच पिरस्तोलाचे फार घेवन? कितल्या मोग्यांनी तें मोगाचे वीख पिवून तीं सासणाक सोंपलीं नात? ह्या पासत चेडे चेडवांनी बारीक नियाळ करून मोग करपाक जाय!

फोलिसियाना नीट ताच्या फुड्यांत वचून बसता. थोड्याच वेळान हे भशेन विचारता, ''मोगाच्या विन्सेंत तुका कितें तरी सागूंक येवजितालीं पूण तें सांगपाक म्हाका जीब येना''

''कितें फेलिसियाना?'' सगळोच अजापून विन्सेंत विचारता.

''विन्सेंत तूं बरे भशेन जाणा जातलो हांव तुका कितें सांगपाक सोदता तें!''

''जुरामेन्ता खाल खऱ्यानीच हांव नकळ फेलिसियाना तुज्या मनांतलें हांव कशें जाणां जातलों?''

“विन्सेंत म्हजे कुडीक ना आदार पूण धीर घेवन म्हज्या काळजाक हांव तुका सांगूक करतां, म्हज्या काळजाची वणवण मोगाच्या विन्सेंत आयज साबार म्हयने जाले...” अशें म्हणून फेलिसियाना आपली तकली खाला घालून वगीच रावलें.

“सांग सांग. तूं कित्याक लजता फेलिसियाना? कसली तुका भिरांत दिसता? सांग समजून हांव तुजोच भाव म्हूण!”

विन्सेंतीक कांयच समजना अशें लजेन कितें सांगूंक येवजिता तें. देखून तो ताका फोर्सार करता. कसलेंच परकेंपण नासताना कितें तें उक्तेपणान सांगपाक फेलिसियाना आपली तकली तशीच खाला घालून सुरू करता:

“विन्सेंत आयज साबार म्हयने जाले. तुका हांवें पळयला त्या दिसाक सावन म्हज्या काळजांत तुजो खऱ्यानीच प्रितीवत मोग खेळटा आनी शिजता खऱ्यानीच तुजे विणें सुख भोगना आनी भोगचें ना.

“खऱ्यांनीच फेलिसियाना? तूं खरेंच सांगता तें सत?” अजापून विचारलें विन्सेंतीन.

“मोगाच्या विन्सेंत, हांव दिसरात सपनेतां तुज्या मोगाच्या भारान, हो काळजांतलो गूट तुका सांगलें बगर म्हज्या काळजाक सुख मेळनासलें. तर विन्सेंत आयज तरी तूं मानून घेता हो म्हजो तुजेर बशिल्लो प्रितीवंत मोग?.. वेंगयशी तुज्या मोगान लाशिल्ल्या मोगाच्या गड्याक?... दिवशी म्हाका तुजें एक उत्तर सासणाच्या मोगाचें?”

विन्सेंतीक ताका कितें सांगचे तें कांयच समजना जालें. ह्या मोगाच्या उत्तरांनी तो पावता काराचीक ताकाय समजना जालें. आपूण खंय आसा तो. जागो आसा वा सपनेता म्हूण.

“फेलिसियाना कित्याक तूं हे परी शीण उलोयता? हांव जाणां तूं म्हजो काळजा सावन निर्मळ मोग करता म्हूण. पूण केन्नाच तुका म्हज्यान सांगपाक जावचें ना म्हजें काळीज तुका भेटोवंक येत म्हूण. कारण आमी फाव ते पिरायेर पावलीं नात. दुसरें, देवाचो गूट आमच्यान पारखुपाक जायना.”

“मोगाच्या विन्सेंत, तूं जाणां हांव कितलें वळवळे आनी जाळ भोगता तें तुज्या रूपेस्त मुखामळाक पळोवन सगळींच पिशीं कशीं जातात. तुजो गुणेस्त सभाव भोव मानवता. म्हज्या मोगाच्या गड्या तूं आड येता म्हज्या खुशीचेर?” हीं इतलीं गोडसाणीचीं उतरां आयकून विन्सेंतीचें काळीज आपशीच मोवाळटा तो पिसो कसो जावन सगळोच गोंदळटा. आनी म्हणटा,

“फेलिसियाना हांव आड वचना तुजे खुशीचेर. ह्या तुज्या प्रितीच्या उतरांचेर. म्हाका दिसता हो मोगाचो एकवट आमचे कडेन धरचो म्हूण, दुसरें तुजी फामील कसली तरी आडखळ हाडटली ह्या आमच्या निर्मळ एकवटाचेर”.

“ना, विन्सेंत तें तुका पडूंक ना... !” अश्यो तांच्यो गजाली चलता म्हणटासर आमोरी जाता. फेलिसियाना थंयचें आपल्या घरा वचपाक कडसरता.

ते रातीं फेलिसियाना मोगाच्या भारान सगळेंच पिशें जाता. कित्याक तर ताचें काळीज फसफसतालें आनी आवंडेतालें गोडसाणीन भरिल्लें मोगाचे अमृत चाकपाक. ताचे मन पिशें जाता. ताका समजना जालें, किते करचें किते तें हुसकारलें आनी सुसकारलें, मुरगटलें आनी रडलें. विन्सेंतीक आपलो सासणाचो पती करपाक.

उजवाडलो तो दुसरो दीस फेलिसियाना सदांचे भशेन सांजेचें येता विन्सेंतीच्या घरा. तांच्यो गजाली हे भशेन चलतात,

“विन्सेंत म्हज्या मोगा, आयज पूण तूं म्हाका उतर दिता?” फेलिसियानान विचारले.

तेन्ना विन्सेंत मातसो लजता. फेलिसियानाक प्रतिपाळ करता “हय, आयज हांव तुका सारकें उत्तर दितां. पूण म्हाका एक भिरांत दिसता. ह्या आमच्या चिंतना चेर कोणूय आड येत म्हूण”.

“म्हज्या मोगा तूं कांयच भिनाका” अशें म्हूण फेलिसियाना विन्सेंतीच्या गळ्याक वेंग मारता. मोगाच्या गोपांत अशीं तीं जायतो वेळ उरतात. त्या दिसा सावन ताणीं एकामेकांच्या गोपांत ते मोगाचे खेळ खेळपाक बुन्याद घातली. तांची ती मोगाची रोपी दिसान दीस अदीक आनी अदीक नेटान वाडत वचूंक लागली.

ती इतली घट्ट जाली. कितेंच केल्यार एका मेकाक सोडचीं नात म्हूण ताणीं सोपूत घेतलो.

***

गुपीत मोग केल्लो चड तेप तगना म्हणतात तें खरेंच.

थोड्या तेंपान विन्सेंतीचेर उप्रासता एक दारूण दुस्मान ताचें नांव आसलें पावलू. पावलू त्या सोबीत–सुंदर फेलिसियानाचो मोग जिखपाक सोदतालो.

एक दीस पावलू नीट वता फेलिसियानाच्या घरा, जेन्ना ते एक सुरेंच बशिल्लें. तो ताच्यालागीं बसता म्हणटा,

‘‘आह ! काय बरें सोबीत तूं दिसता फेलिसियाना? कितलें गुणेस्त तूं वर्तुवता? आसा तुका म्हज्या बराबर सूख भोगूक? हांव तुका आतांच न्हय पूण सदांच सुखान भोंवडायतलो; जरी तूं जगपाक सोदता जाल्यार म्हज्या सांगाता.

हे भशेन तो जायतो फेलिसियानाक ताचो मोग जिखपाक फुलयता. पूण तें ताका कान हालयना. ताचीं फकाणां मात्यार चडटात तीं पळोवन ते घरांतल्यान भायर सरून वचूंक लागता. ह्या वेळार तो आशेल्लो पावलू फेलिसियानाक घट्ट धरता. भुलोवपाच्या उतरांनी म्हणटा.

‘‘सोबीत फेलिसियाना कित्याक तूं हे भशेन रागान उठून वता? बरें दिसना तुका म्हज्या सांगांता सुखान जगपाक?.. पळय फेलिसियाना तूं म्हज्या ह्या सगळ्या गिरेस्तकायेचें धनी जातलें. तुका एक घडी भर पसून दिवचो ना दूख! आयज म्हजें काळीज बुडडलां तुज्या मोगान. तर तूं कित्याक म्हाका हे भशेन व्रातार करता ?’’

फेलिसियाना तांका कायंच प्रतिपाळ करिना वगीच रावता. हें पळोवन पावलू म्हणटा ‘‘फेलिसियाना तुका म्हजे मातूय चुरचुरे नात. ह्या मोगान बुड्डल्या काळजाची आस भागोवपाक?..

‘‘तुजो एकूच उमांव दिवन कर ह्या काळजाक धादोशीत!’’ अशें म्हणून तो आपली आसा भागोवपाक वता.

पूण तें ताच्या तोंडार एक थापट दिता. व्हडा नेटान. तें रागान घरांतले भायर

सरता.

हें पळोवन पावलूच्या आंगांतल्यान रागाचो फेणेर भायर सरता. ताचें रगत शिजूंक लागता. तो त्याच वेळार विन्सेंतीचे आनी ताचे विंगास घेवपाक चिंतता. तो दीस मावळटा आनी रात येता. ह्या वेळार पावलू ती विन्सेंतीच्या घराची एकसुरीच वांट चलता.

मोगाळ वाचाप्या पळया! आपली आस भागोवपाक मेळना म्हूण एक नश्टो मनीस कोणाचो राग कोणाचेर काडटा तो. असोच हो आतांचो संवसार न्हय?...

तो विन्सेंतीच्या घरा पावतकूच एक जनेल मोडटा तातूंतल्यान भितर नीट विन्सेंतीचे कुडींत वता. ते न्हिदिल्ले कुडीर रिवोलवराचो फार सोडटा. एक मिनीट पिड्यार करिनासताना पळ काडटा. पेट्रोलान बुड्डिल्लो एक लुगटाचो कुडको उजो घेतकूच ''झूप '' करुन पेट्टा तेच भशेन हो फाराचो आवाज आयकना फुडें सगलो लोक घुसघूस करून जमा जातात विन्सेंतीच्या घरांत. शेकीं थंयच ताका जुलियांवाचें मडें मेळटा जाका कोणें निकतोच फार मारिल्लो. उपरांत तांकां खबर मेळटा विन्सेंत त्या दिसा सिनेमाक गेल्लो. आनी जुलियांवो आपलें जिवाक बरें ना म्हुण घरांत न्हिदिल्लो.

पूण जेन्ना ह्या दिसा विन्सेंत नासलो घरा, सगळ्यांचो दुबाव वता. नितीदारा मुखार विन्सेंत कैदी जाता.

पळय वाचप्या, संससाराची नीत पळया कोण मारता फार कोण करता क्रीम आनी कोणाचेर येता?....

विन्सेंत जुवीझाक जायते समजावन सांगता. पूण जुवीझ ताचें कायंच मानून घेना. अखेरेक ताका दिता दारूण ''लायफ सेंन्टेन्स''.

हें आयकून कितें भोगले ना जायत ताच्या मोग्याक फेलिसियानाक? तें झीट येवन जमनीर शेंवटता साबार वरां जीव नासताना उरता.

हें इतलेंच ताका निमित्त पुरो जाता. त्या दिसा सावन ते हातुरणाचेर शेंवटता. व्हड व्हड दोतोर तपासतात. पूण ''उमथ्या कळशार उदक'' कोण म्हणटा ताका गोंयचें वारें जाय म्हूण. तर कोण म्हणटात ताका फ्राकेदीन नेर्वां जाल्यांत म्हूण.

आनीक कोण म्हणटात ताका देंवचार लागला, जाल्यार आनिकूय दुसरे म्हणटात ताका दिश्ट जाल्या म्हूण. चुलींत मिरसांगो घालात म्हूण सांगतात. सालू तीव "आंग रोजार करून हाड म्हूण सांगता, पासकू तिवान सांगले इल्लीशी धवी माशीयेर दिवन पळय म्हूण. हे भशेन कोण कितें सांगतात तितलेंय ताचो आवय बापूय करतालीं. पूण सगळो वावर निर्फळ जाता. ताचें दुयेंस अदीक वाडटा. शेकीं फेलिसियानाक गोयांत व्हरतात थंय पूण बरे जाल्यार जालें म्हूण, हे भशेन सांडिल्ल्याचें तन-मन बारा कडेन अशी तांची गत जाल्ली.

सुमार तीन म्हयने जाल्ले. विन्सेंत ती निश्ठूर बंदखण भोगपाक लागल्यार तो आपल्याक फर्मायल्ले कोठडीत बसून दीस रात हुसकारतालो आनी सुसकारतालो रडट्टालो आनी फडफडट्टालो. आपले दुसरे मांयचो, आपले मोगीकेचो आनी आपलो आमीग जुलीयानाचो उगडास येतकच तो सुसकारतालो "हे म्हजे मांय, म्हजे पोसके मांय. कितें तूं चिंतता आसतली? हावें तुका एक लेगीत चीट बरोवंक नाजाल्यार आयज तीन म्हयने जाले. तूं चिंत्ताली आपल्याक सांडली म्हूण पूण ना ना केन्नाच ना. तूं जाणां आसत हांव आयज कसले दारूण प्रिझांव भोगता ते? लागत तुका कसलें पूण सूख? आनी हे म्हज्या मोगा-फेलिसियाना उरतलो तो तुजो लुकलुकतो आनी भिगभिगतो जीव कुडीत?..आनीक म्हाका कसलीच आशा ना हांव आनीक पावत तो मोगाचो, सासणाचो एकवट भोगपाक?.. ना जावन देवाची खोशी! जाणांत म्हज्या इश्टानो तो तुमचो आदलो इश्ट मेलो वा जिवंत आसा तो? पूण तुमी कशें जाणा जातले?.. हाय.. सर्व पदवीधरा धनया.. कशें तुका पटलें सोडूंक लावंक म्हाका म्हजो निमणो सुसकार ह्या परदेशी गावांत? आह. म्हज्या जल्माच्या घरा एक दीस पूण मेळत म्हाका घालपाक एकूच नदर तुजेर?

हे भशेन विलापांनी आनी जेवणाच्या हालावालांनी जें दितात ताका एक उंडो आनी मिठाचें उदक. तो जाता एक बडी कशी. कटा! हो वर्तुवता एक नशिबाचो खेळ संवसारी इतिहासांत.

हे भशेन दोन वर्सां बलांडतात. तो सारकोच बारीक जाता त्या जनेलांतल्या

वारांवांतल्यांन पासार जावपाक जाता तसो.

तो जायतें चिंतता. एक दीस मध्यान रातीं उट्टा फाटीं फुडें पळयनासताना त्या जनेलांतल्या वारांवांतल्यान पळापळ काडटा. ह्या वेळार कोणी ताका पळयल्लो जाल्यार कांयच समजचें नासलें कित्याक तो दिसतालो एक बडी कशी. व्हडा फिक्रीन धांवतालो. सुमार एक-देड वर इल्लोसो पूण जिवाक सुशेग घेनासताना धांवल्या उपरांत तो एका अरिश्ट दोंगरांच्या तेंगशेर पावता आपूण एका बऱ्या जाग्यार पावलो म्हूण चिंतता ते सुस्त जमनीर शेंवटता. सुर्या आपली पयलीं किर्णा फांकारच्या आदीं तो उट्टा आनी परतो लागता धांवपाक. असो थोड्याच दिसांनी आडगां-नाडगां करून मुंबय पावता थंय पावतकूच सुसेगाद जाता. भिरांती विणें आपले दीस सारपाक लागता.

## मुंबयंत

तें मुंबयचें शार! कोण बसता तर कोण नाचता कोण न्हिदता तर कोण उट्टा. कोण मोगान शिरकला तर कोण मोगान देंसपेरेद जाला, कोण जेवता तर कोण भुकेन वळवळटा. कोण चामार तर कोण म्हार. कोण सुदीर तर कोण लोफर .. हे थंय वळखूपाक भोव कठीण. कोण ''फिलूक'' तोपतात तर कोण 'बँक' लुटतात रोजारीओ उट्टा आनी बोसत्यावांक गुटेरांत सासणाक नाच करता. हो असलो मुव्हमेन्ट मुंबयचो आसलो. ह्या मुंबयच्या शारांत निर्भागी विन्सेंत पावता. तो पयलीं सट्टो खेळपाक सुरू करता. थोडयाच दिसांनी नशिबान थोडे दुडू कमयता. ह्या दुडूवांच्या कुस्तार तो बरोच फुलता.

आतां तो एक जनरल मॅनेजर कसो भोंवतालो. एका हातांत ऑफिसाची फायल आनी दुसऱ्या हातांत सिगारांचो टीन. हे पोके लाग करुन तो ह्या आनी त्या रस्त्यार भोंवता. ह्या ताच्या पोझिसांवांक पळोवन जाय ते जाण ताका रेस्पेद, मान दितात. भोव करून व्हंकलेचे बापू जे सोदतात आपले धुवेक काजार करपाक विन्सेंती लार्गी.

* * *

एक दीस तो चिरा- बाजारांतल्यान पासार जातना ताका अवचीत येवन एक

चेडूं डॅश मारता. कारण तें ताकतिकेन आसलें. ते निकतेच बँकात सावन धा हजार रूपया नकद घेवन येतालें.

तें फाटल्यान वळोवन पळयता म्हळ्यार ताच्या दोळ्या मुखार विन्सेंत दिसता. एक रूपेस्त भुरगो. ती एकाच मिनटाचीं नदर! त्या चेडवाच्या विवियानाच्या काळजाक ताचो रूपकार रोमता.

तें परतता आनी ताच्या फुड्यांत येता. थोडी भोव गरजेचीं उतरां उलयता. उपरांत तीं दोगांय ''क्वीन विक्टोरीया'' गार्डनांत वतात जंय दोगांय त्या बांकार बसून खबरो उलोवपाक सुरू करतात. मोगाच्यो....

''खरेच विन्सेंत हावूंच नकळ ही आमची आमीझाद कशी घडली ती आमची आमीझाद देवान नशिबांन निर्मिल्ली अशें म्हणचें पडलें. तर विन्सेत तुवें म्हाका सांगूंक जाय, तूं गांवान खंयचो तो तूं हांगा कसली शिर्विस करता ती.''

''म्हजी खबर आयकल्यार विवियाना तूं हांसतलें! हांव आफ्रिका देशांत ऍसिस्टंन्ट मॅनेझराची शिर्विस करतालों. आयज सुमार चौवीस दीस जाले हांव हांगा आयल्यार. आफ्रिके सावन हांगा येतना मुंदसाक म्हूण हांवें पन्नास हजार रूपया हाडिल्लें. म्हजें फुटकें नशीब म्हाका ह्या मुंबयच्या मोवाल्यांनी पीक पोकेट केलो. पैशे हातांत नासून आतां हांव देसपेराद जाला''.

''तूं पैशां पासत भिनाका. घे तुका हे धा हजार रूपया आनीक जाय जाल्यार दितलीं पूण एक मात उगडास धर आतां म्हाका हागां रावपाक मेळना. म्हाका चड गरजेचें काम आसा. त्या पासत तू म्हाका सदांच सांजेच्या पांच वरांचेर मेळपाक हांगा यो''.

''तें म्हजेर पावलें'' अशें सागून तीं दोगाय थंयची कडसरलीं.

वाटेर वतना विन्सेंत चिंतता आनी आपल्याच भितर म्हणटा ''खरेंच म्हजें नशीब उगडलें पूण एकूच मात अजाप दिसता. तें हें, हांव गोयांत आसताना सगळे सांगताले मुंबयची चेडवां-चेड्यांक नाका जाल्ले भोपके सांगून तांचे लागीं अशिल्लें-नाशिल्लें आपलें करुन घेतात म्हूण पूण आयज परतेंच जालें. तें कितेंय जावं, नशिबान घोव खंयचो ह्या म्हणीचो उगडास करून हे दुडू मोडचे पडटले.''

हे भशेन विवियानाची आनी विन्सेंतीची मोगाची इश्टागत दाटून वता. विन्सेंत ताचो मोग वयले वयर करता. ताणें आपली कूड विवियानाचे कुडीक तेंकयल्ली नासली. तें ताका आपली आस भागोवपाक जायते फोर्सार करता तो आयकना म्हूण विवियानाक संताप मारतात. तें रागान अशें म्हणटा,

"पळय विन्सेंत, जरी तूं ह्या वेळार काजराचें उत्तर दिलेंना जाल्यार तुका ह्यान फुडें बऱ्याक पडचेंना"

हें आयकून तो मात लेगीत कान हालयना. तें पळोवन विवियोनाच्या आंगात रागाचो तांशेर भरता. तें थंयचे रागान कडसरता उपरांत रोकडेंच तिगां मोवाल्यांक घेवन येता. जे वेळ करिनासताना विन्सेंतीक मोटारांत घालतात मोटार फास्ट धांवडायतात.

सुमार अर्द वर जाली ती मोटार धांवता विन्सेंत आपल्याक खंय व्हरतात तें नकळ जाता. तो व्हडलीं-व्हडलीं बिल्डीगां पळयता, नाका जाल्ले कालात्मक रस्ते आनी हे भशेन जायतें....

अवचीत मोटार एका जाग्यार थांबता थंयसर कांयच नासलें. थंय फक्त एक अरिश्ट मळ कशें दिसतालें ते तिगजाण मवाली देंवतात विन्सेंतीक आपल्या बराबर व्हरतात... सुमार तीन मिनटां ते चौगूय चल्ल्या उपरांत कुशीक एका सुपुल्ले खोंपटेंत पावतात. थंय एक फातर आसलो सुमार पांच फूट रूंद आनी साडे चार फूट लांब.....

ते तिगूय हो फातर धुकलतात. तेन्ना थंयसर दिश्टी पडटा एक बुराक. तातूंतल्यान जुस्तच एक मनीस वचपाक जातालें. थंय पयलो विन्सेंतीक देंवयतात. उपरांत ते तीग देंवतात. त्या भुंयारात देंवपाक चौवीस फातराचे पांवडे आसले. खाला पावतकूच एक सुपूल्लेंच दार आशिल्लें. तें उक्ते करतकूच तांतूंत स कुडी आशिल्लो सगल्यो कुडी मोलादीक बऱ्या वस्तुंनी भरील्यो ते एके एके कुडींत अल्लाउद्दीनाचो दिवो पेटयले उपरांत त्या तिगांय मोवाल्यांनी ताका एके कुडींत व्हेलो थंयसर ताणें एक लांबदीक मनीस पळयलो. तो न्हेशिल्लो काळो कास्तोर. ताच्या एका हातांत धारेची तलवार पर्जळटाली ताच्यां भेंडाक हुमकाळटाले दोन रिवोलवर. ह्या ताच्या भेसाक पळोवन दिसलें होच जावपाक जाय म्हूण त्या

गँगाचो लिडर इतल्यान ताची नदर फाटल्यान गेली तर किते पळयतलो?... ताचें फाटल्यान ते तीग जाण नासले. पूण वीस जाण मोवाली आसले तेन्ना ताका पळोवन तो थर्त भियेलो. त्या गँगांतल्या लिडरान ताका हे भशेन विचारलें.

“हे मनशा, तुजें नाव कितें? तुजो धंदो कसलो आसा?...”

“म्हजे नांव चोर. म्हजो धंदो वर्तुवता तुमचे भशेन आयज हाका लूट, फाल्यां ताका लूट. पूण एक मात, हांव केन्नाच गरीबांक नागयना. तर कितें चोरतां तें गरीबांक वांटून दितां.”

“खरेंच तूं इतलो हुशार आसा. म्हूण म्हाका दिसलें ना”

“दिसना? तर आयक. ह्या आदीं हांवें जाय त्या व्हड मनशांक लुटल्यात तुमकां जर ताची खात्री जाय जाल्यार म्हाका सुटका दियात. कारण आयज हांवें एक मोटें बँक लुटपाचें चिंतलां तेन्ना तुमी म्हजें बराबर येयात आनी पळयात म्हजी पदवी.”

“तूं वर्तुवता इतलो हुशार तर हांव तुका दितां सुटका. तुवें मात आमच्या गँगांत येवचें पडटलें.”

व्हडा खोशेन! तें म्हजेर पावलें. घे हे धा हजार रूपया तुमकां म्हजें बक्षीस कशें?” अशे म्हणून विन्सेंतीन धा हजाराचीं नोटां काडलीं आनी ताचे लागीं दिलीं.

विन्सेंतीचें कर्तूब पळोवन ते सगले भारी खुशाल जातात. ताका सगले सेग्राद दाखयतात. भोव करून ताचो लिडर ताच्या सभावाक इतलो मानवता ताका आपली सेग्रदांची तिजोरी दाखयता.

सांगिल्या प्रमाण कोणूच त्या भुयारांत रावनासतना ताची पदवी आनी हुशारकाय पळोवपाक ते सगले मोवाली विन्सेंतीच्या बराबर वतात. तेन्ना तो आपले हुशार कायेन ते काळखीं रातीं बँकेचे तेंगशेर चडटा हें पळोवन ते सगले ताका शाबासकी दितात.

ते सगले विन्सेंतीक केन्ना भायर सरता काय म्हूण रावताले वा कसलें पूण

सिनाल दितलो म्हूण रावतात. पूण सुमार एक वर जालें दोन वरां जालीं विन्सेतीची कायंच खबर मेळना जाली तेन्ना ते वाजेले आनी थंयचे कडसरले आपल्या भुयेरांत वचपाक. भुंयेरांलागीं पावतकूच तांका तो सदांचो फातर दिश्टी पडटा तसो दुसऱ्या जाग्यार कडसरिल्लो. वायट दुभाव तांच्या अंतस्करणांत रिगपाक तांकां इतलेंच पुरो जाता. तो तांचो लिडर ज्या-ज्या वता तिजोरी लागीं पूण हाय! कटा! तिजोरी उक्ती आसता. तांतुंतले दुडू नात. जे सुमार पंच्चाणव हजार आसले. तांकां पारखुपाक वेळ लागना कोणतो ताचो ऑथर! तो खऱ्यांनीच विन्सेंत आसता. ते जाय ते वावुरतात. ताका सोदपाक तांचो सगळो वावर निर्फळ वता. "पोटाक मारून जोत केल्ले तें शेकीं वागान खाले" असली गत जाल्ली त्या बाबड्यां मोवाल्यांची.

ही भुयेंरांतली चोरी आदारल्या उपरांत विन्सेंतीचें तन मन थाऱ्यार ना जाता. ताका केन्ना काय एका भिरांत नाशिल्या जाग्यार पावता शें जाता. हे भशेन तो एका रानांतल्यान चलता. सुमार थोडो वेळ चल्ल्या उपरांत तो त्या अरिश्ट रानाच्या काळजांत पावता. थंय ते लांब रूंद रूख आसले. दुसरे वटेन ताका आयकुवपाक येताली, ती भिरांकूळ आरड त्या निश्ठूर मोनजातीची.

असो चलताना तो भारी आकांतता. त्या आकांताच्या वेळार पाव म्हूण सायबिण मांयक उलो मारता. सायबीणीचेर दवरून थीर भार्वाथ आपलो जीव राखपाक. एका हातांत एक रिवोल्वॉर घेवन आपली फुडली वाट तांकता. मरन वा उरन म्हूण. इतल्यान तो एका तळपार आपटून भुयेंर पडटा. तेन्ना तो चिंतता आपलें. मरण लागीं पावलां म्हूण.

ह्या वेळार ताच्या दोळ्या मुखार झळकता एक दिवो. जो एके खोपींत जळटालो. तेन्ना भारी संतोसता आनी सायबिणीचे उपकार आठयता.

ताणें चिंतले ती खोंपटी चोरांची आसपाक जाय म्हूण. आपलो फुडार कितेंय जांव म्हणून तो ते खोंपटेची वाट तांकता.

तें खोंपटेंत एक गरीब क्रिस्तांव घराबो रावतालो. तातूंत घोव बायल आनी दोगां भुरगीं आसलीं. विन्सेत ताच्या फुड्यांत वता खालती कायेन विचारता "उपकार करून आयची रात सारूंक म्हाका इल्लोसो तुमी जागो दिवशात?"

पयलीं ताका तीं जागो दिवपाक दुबावलीं. घडये तो जायत म्हूण एक क्रिमीदोर. पूण जायत्या वेळान तीं कबूल जातात ताका जागो दिवपाक. जागो मेळटकूच विन्सेंत जाय तो संतोसता. आपलें दुडूवांचें बॅग वेगेंत घेवन न्हिदता. तो कासाद जाल्लो. देखून ते रातीं तो सुस्त न्हिदता.

विन्सेंत न्हिदल्या उपरांत ह्या घराब्याचे मतींत येता. ताका जितोच मारपाक कारण ताणीं ताच्या बेगांत नोटींचे कवळे पळयल्ले.

* * *

दुसऱ्या दिसा आपली उजवाडाचीं किर्णां सुर्यान पृथ्वीचेर शिंपडावच्या आर्दी, त्या घराब्यांतलीं घोव बायल उट्टात. भायर वचून एक वजनादीक फातर हाडटात. तो फातर न्हिदिल्या विन्सेंतीच्या तकलेर उडोवपाक वतात. अवचीत त्याच वेळार ते आळशी न्हिदेंतल्यान विन्सेंत जागो जाता. एका विजमिता भशेन आपूण कसल्या अपघातांत फसवल्लों आसा तें पळोवन तो एकाच ताळ्यान आरड मारता ''रावात'' म्हूण. ह्या वेळार तांचो फातर भुंयेर पडटा. सगळींच खूब भितात. उपरांत विन्सेंत उट्टा आनी हे भशेन उलयता. ''हांव जाणां ते दुडू पळयतकूच मनशांक कितें घडटा तें? ताचो जीव थाऱ्यार नासता. ताका चिंता लागता विगांस घेवपाची जशी आता तुमी म्हजी घेवपाक केल्ली हांव जाणां एका मनशाच्या हातांत दुडू नासतकूच तो पिसो कसो जाता. खंयच्याय खंय पावता ते पासत तुमी भिनाकात. तुमी हे पातक आदारल्ले म्हूण अजाप न्हय. पूण हाच्या व्हड पातक आदारता तें लाखांनी कोट्यांनी दुडू आशिल्ले मनीस.''

हीं उतरां आयकून ती वर्गींच मोनी कशीं उरतात. हें पळोवन विन्सेंत आनीक फुडें म्हणटा. ''पूण तुमी तसलीं मनशा वर्तुनात. ह्या पासत तुमी मातूय भिरांत धरी नाकात. तुमचो गुन्याव हांवें भोगाशिला. तसोच देवान भोगशिल्यार पुरो.''

अशें म्हणून तो आपलें बेग उगडटा तांतुंतलो एक हजार रूपया काडून तांकां दिता.

''तुमका हो एक हजार रूपया घेयात तो तुमच्या गरजांक पावयात'' तो रोखडोच भायर सरून आपली वाट तांकता. गोंया आपल्या मांय देशांत येवपाक येता.

गोंया पावतकूच तो केप्यां एक घर विकतें घेता. रांदून वाडपाक एक शिर्विदोर हाडटा.

एक दीस तो आपल्याक शिकयिल्ले आनी वाडयिल्ले आवयचे खबरेक वता थंय ताका मोडील्लें घर दिश्टी पडटा. हें पळोवन ताची खात्री जाता. आपली दुसरी आवय ह्या संवसाराक अंतरली म्हूण.

तो थंयच्या एका लागशिल्या शेजाऱ्यागेर वता. तें कारमीन रांड अस्तुरेचो शेवट कशे भशेन जालो तें विचारता तेन्ना ताका एक जाणटो मनीस सांगता.

"पुता, आयक कारमीन रांड अस्तुरेन विन्सेंत नावाचो एक पोसको पोशिल्लो. जायतें फावटीं तो आमगेर येवन खेळून वतालो. ताका बरो शिकयतकूच तिणें ताका आफ्रिकेंत धाडलो. ताच्या पोटा आनी बऱ्या फुडारा पासत. सुमार पांच म्हयने त्या विन्सेंतीन चीट आनी दुडू धाडले, उपरांत तो तिका कांयच धाडिना जालो. एक चीट लेगीत बरयना जालो. हो तिच्या काळजाक धक्को बसलो कारण तिणें ताका ल्हानाचो व्हड केल्लो. आपल्या रगताचो घाम वारून पोसलो आनी शिकयलो आपल्या रगताचो खाशा पूत जाल्ले भशेन वाडयल्लो. विन्सेंत बदल्लो आनी बदमाश कसो जालो हे सगळें चिंतून ती एकदम दुयेंत पडली.

"खरेंच तिवा, ताणें तिचेंर केन्नाच बदमास जावपाक फाव नासलें सदांच तिच्या उतरा खाला रावपाक जाय आसलें" विन्सेंतीन प्रतिपाळ केलो.

"आनीक कितें सांगू पुता?.. ती हेच खंतीन एक दीस अवचीत काळजाचो आताक येवन सासणांची सोंपली. कोण जाणा तो बदमाश विन्सेंत आजून जिवो आसा वा मेला म्हूण?".

"देव बरे करूं तिवा तुका" अशेंय म्हणून विन्सेंत फाटीं परतता. आपलेच भितर फुगार जावन असो रडटा.

"खरेच मांय तुका हावें सांडली ना. पूण ह्या वेळार तुवें म्हजी कथा आयकल्ली जाल्यार तूं जरूर रडटली आसली. म्हाका भोगशिता आसली. हाय कटा! मांय तुवें म्हाका लागून आपल्या जिवाचो त्याग केलो. हे चिंतपाक तुका कारण आसा. म्हजे मोगाचे मांय हांव कसो म्हूण तुका चीट बरयतलों आसलों.

सायबा धनया इतल्यान तूं निवार म्हजे वयलीं सगळीं विघ्नं''.

हे भशेन तो त्या आब्यांच्या कुशीक वचूंक रस्तो तांकता. थंय पावतकूच ल्हानपणांतलो एक-एक उगडास काडून दुकांचो समुद्र वारयता. आपल्या भिगभिगत्या दोळ्यांनी.

थोडे दीस गेल्या उपरांत विन्सेंत थंय दोन चित्रां उबारता. एक भुरगो भारी दुखेस्त आनी खंती जावन तो आंब्याच्या मुळांत बशिल्लो. ताच्या फाटल्यान एक अस्तुरी जी आपल्या हातांत तो पेजेचो कांसो घेवन येता कशी दिसताली.

शेकीं तो आपल्या नीज घराचें कितें जालें तें पळोवपाक वता. तर मोगाळ वाचप्या कितें थंय पळयतलो. तो पळयता ते सुवातेर झाडां आनी करड किल्ललें पळता. थंय आजून एक रूख उबो आसता. जो विन्सेंतीन आपल्या स वर्सांच्या उगडासाक रोयिल्लो. ताची ताचेर नदर पडटा. तो घशघशानी रडटा. ह्या वेळार ताका आपल्या! ल्हानपणाचो सगळो उगडास येता, ताचे तोंड मोनें कशें जाता. जिबेर कसलींच उतरां येनात.

ताका वाटेर फिलीप तीव मेळटा. ताचे लागीं तो सगळी खबर घेता. आपल्या घराची. आपूण मात कोण तें कांयच सांगना.

तेन्ना फिलीप तीव सांगता एडमूंड (विन्सेंन्तीचो तीव वा ताचो आरे) मेलो म्हूण. तो सोरोप चाबून मरता जाल्यार कांक्र जावन ते पालमिरा (विन्सेंतीची खरी मांय) मरता. अशे तरेन ताच्या नीज घराब्याचो शेवट जाता.

उपरांत आपल्या घराच्या उगडासाक तो थंय उबारता एक व्हड मोनुमेन्ट. ताचेर हीं उतरां चित्रायता.

''वायट केल्यार वायट भोगीत

''बरें केल्यार बरें मेळयशी''

- विन्सेंत

विन्सेंतीक आतां जाय आसली ताच्या मोगाची फेलिसियानाची खबर. तें जिवें आसा वा अंतरलां ह्या संवसारांक. गोंयांत वा आफ्रिकेंत तें आसा? अशें

साबार जाणाक तो हे भशेन विचारता. शेकीं एक दीस ताका बारदेसाचो एक जाणटो मनीस मेळटा जो ताका हे भशेन सांगता.

''हय हांव त्या घराब्याक वळखतां. आतां जाय तो तेंप जालो हो घराब्यो गोयांत आयल्यार, तांचे ते धूवेक लागून ती हागां पावलीं''




''तर फेलिसियाना आजून जिवें आसा. ह्या संवसांरात?''

''हय तें जिवें आसा खरें पूण सदांच दुयेंत. ताचें हें दुयेंस मोगाचें म्हूण सांगतात''.

एक दीस विन्सेंत आपले मोगीकेक भेट दिवपाक वता. तो तांगेर वतना अपटू- डेट न्हेसून बरो वता तेन्ना फेलिसियानाचे आवय बापूय ताका बऱ्या रेस्पेदान भितर घेतात. तांचे भितर थोड्यो भोव गजाली जाल्या उपरांत फेलिसियानाचो बापूय फ्रान्सिकाक समजता. तो फक्त एकूच काजराच्या कारणाक लागून आयला म्हूण तेन्ना तो ताका प्रतिपाळ करता.

''आयक पुता आयज उणींच चार वर्सां जालीं. सगलीं आमी गोयांत आयल्यार. ह्या चार वर्सांत आमच्या फेलिसियानाक खूब सोयरिको आयल्यो. तांचो हिशोब ना. पूण फेलिसियाना सांगता.'' आपणे एका विन्सेंत नावांच्या चेड्याक उत्तर दिलां म्हूण सांगता. काजार जायन जाल्यार ताचेच लागीं नातर आपूण मरण येत सर आंकवार रावतलें म्हूण. हाका लागून हें काजार जावपाक भोव मुश्कील जावन आसा. त्या विन्सेंतीक धारूण फर्माण ''लायफ सेन्टेन्स'' पडलां.

''तर किते कारण ताका हें सेन्टेन्स पडूंक?''

''कोण जाणां पुता लोक सांगतात ताणें जुलिओ नावांच्या ताच्या एका सांगात्याक जिवेशीं मारलो म्हूण .

''बरें त्यो गजाली आसूं आता तुमकां खोशी आसा फेलिसियानाक विन्सेंतीच्या लागी काजार करपाक?''

''केद्याय वेळार; म्हजे धुवेची जी खोशी तीच म्हजी खोशी वर्तुवता. अशी

ताची गजाल चलता म्हणटासर थंय फेलिसियाना येता. तें ताचे लागीं गजाली करपाक बसता तेन्ना विन्सेंत ताका विचारता.

“फेलिसियाना तुका खोशी आसा म्हजें लागीं काजार जावपाक?”

“ना, केन्नाच ना! हांव म्हज्या मोग्याक दिल्या उतरांचेर केन्नाच आड वचचें ना”

पूण ही जाप आयकुपाक तो रावना. आपल्या बोलसांतली मुदी काडटा. जी फेलिसियानान ताका आपल्या उतरांची मुदी म्हूण दिल्ली “खरेंच विन्सेंत हांव तुका वळखूपाक विसरलें. तुजें रूप आतां सगलेंच मुदार जालां. हांव समजलें तूं अंतरलो म्हूण, पूण ना...!” हे भशेन तांच्यो जायत्यो गजाली चलतात. विन्सेंतीची कथा आयकून फेलिसियानाचे आवय बापूय भारी अजापतात.

विन्सेंत आनी फेलिसियानाच्या काजराक आतां फक्त दोन दीस उरील्ले, पुण तेच रातीं सुमार रातीच्या साडे-इकरां वरांचेर विन्सेंत आपल्या घराच्या जनेलाचेर एक आवाज कसो आयकता. तो आवाज आयकून तो शिटूक जाता. तो वेळ करिनासतना आपलें रिवॉल्वर हातांत घेंवन तयार रावता तो आवाज ल्हवू-ल्हवू मोटो जायत वता. थोड्या वेळान ताका त्या जनेलांतल्यान एक तकली झळकता.

ह्या वेळार तो आनीक वेळ करिनासताना रिवॉल्वराचो फार सोडट्टा. थोड्या वेळान किते तरी “घप” करून जनेला सकयल्यान आवाज आयकता. ह्या खातीर जनेलां लागीं वचून तकली भायर काडुन तोंड घालून तो पळयता. तर ताणें किते पळयल्लें जायत?.. एका दांडग्या भुरग्यांचे एक मडें. ज्याका ताणें निकतोच फार मारील्लो.

दुसरो दीस उदेंवचीं आदींच विन्सेंतीच्या घरांत पांच आर्माद सोलदाद येतात. जे विन्सेंतीक धरून नीट पुलीसेंत व्हरतात. उपरांत ताची नीत करून जुवीझ ताचेर अठ्ठावीस वर्साचें फर्माण मारता.

पळयलें वाचप्या विन्सेंतीचेर कसली ती ही देंवचारी करणी वर्तुवता. तो ते रातीं चोर येना जाल्यार विन्सेंत काजार जावन सुशेगाद आसतलो आसलो? पूण ना तें ताका निर्मूंक ना. आता विन्सेंत चिंतता हेंच आपल्याक सासणाचें सेन्टेन्स

वर्तुवता म्हूण. ते पासत तो बरयता आपले मोगिकेक फेलिसियानाक – एक सेग्रेट चीट.

प्रिझांवांतल्या मनशांक भेट दिवपाक बिरेस्तार हो दीस नेमिल्लो. ह्या दिसा फेलिसियाना आपल्या मोग्याक विन्सेंतीक भेट दिवपाक येता.

थंय थोड्यो भोव गजाली केल्या उपरांत शेकीं बेंयज दितना विन्सेंतीच्या तोंडात काळें किट्ट कितें ओकता. उपरांत थोड्यां वेळान कितें पळयतलो? तीं खडेगांठ मोग करणारीं धर्तरेर शेंवटतात. ती दोगांय सासणाची न्हीद न्हिदतात एकामेकांच्या वेंगांत.

आह! निर्भाग्या विन्सेंता इतलो कश्ट आनी दग दग तुवें सोंसून भोगून कित्याक उपकारलें ना तर!

हे भशेन एकूच आमी म्हणूं येता की हें तुका वर्तुवता म्हूण ‘‘नशिबांत निर्मिल्लें’’.

***

# 2. मोग मानिना जाती–काती



तेन्ना फकत दोन म्हयने जाल्ले. नोरमन मुंबयचे टाटा कंपनीत क्लार्काची शिर्वीस करपाक लागिल्लो. तो मुळांत केपेंचो. आनी वेवसायान रेंदेर. देवान ताका ताच्या बऱ्या गुणांनी क्लार्काची शिर्वीस फाव केल्ली. तो मुखामळानूय रूपेस्त दिसतालो.

तेच कंपनीत एक सोबीत चली शिर्वीस करतालें. ताचें नांव मॅगी आसलें. मॅगी टंक लेखनाचें काम करतालें. तें गांवान कुंकळ्ळेचें. सर इफेमियानो रोड्रिगीस भाटकाराली ती एकलीच अपुरबायेची धूव आसली. रोड्रिगीस भाटकार जातीन बामण आसलो.

नोरमन आनी मॅगी एकूच कंपनीत शिर्वीस करतालीं. थंयच तांची थोडी भोव इश्टागत जाल्ली. नोरमन समजतालो तांची ही इश्टागत मोगाची न्हय, पूण बेश्टीच सादीच म्हूण. कित्याक तर ताच्या काळजांत कसलोच मत्सर नासलो. तशेंच ताका ती मोगाची चतूर खुणां कळनासलीं. जीं ताका दिसान दीस मॅगी दाखयतालें.

आज काल आमी पळयतात, फुलते पिरायचेर साबार चले–चलयांक मोगाचें अमृत्त गिळ्ळे बगर रावंक जायना. तशेंच मोगाच्या काळाजांत अदीक आनी अदीक मोगाचो रूख वाडटा. जो सैमाचे घटसाणीन भरला एक दीस तांच्यानी तो रूख तोलूं नज जाता. मॅगी अचकीत नोरमना लागीं वता. त्या दिसा तो निकतोच चौपाटीचेर येवन बशिल्लो. मॅगी ताच्या फुडच्यांत येवन बसता. आनी ताका विचारता.

''नोरमन, तुका कितें सांगूक जाय आसलें पूण तें सांगूक म्हाका लज कशी दिसता''

''कितें मॅगी?'' सगलोच अजापून भावपणान नोरमन ताका विचारता.

''नोरमन तूं बरे भशेन जाणां जातलो हांव तुका कितें सांगूक सोदता तें''.

''ज्युरामेतान, खरेंच हांव नकळ. तूं म्हाका कितें सांगूक येवजिता तें''

''नोरमन म्हजे कुडीक ना आदार. पूण काळजाचो आलशिरो घेवन तुका सांगूंक सुरू करतां. म्हज्या काळजाची वणवण....

मोगाच्या नोरमन, आयज साबार दीस जाले.. अशें म्हणून मॅगी तकली सकयल घालून वगीच रावता.

''सांग, सांग तू मॅगी...कित्याक तूं लजता? सांग, समजून हांव एक तुजोच भाव म्हणून'' नोरमनाक कायंच समजना तें अशें लजून कितें सांगूक येवजितालें, देखून तो ताका कसलेंच परकेपण नासतना फोर्सार करता. कितें तें उक्तेपणान सांगूक...मॅगी तशीच नदर खाला दवरून सांगूक सुरू करता.

''नोरमन, आयज साबार दीस जाले, हावें तुका पळयला त्या दिसा सावन म्हज्या काळजांत तुजो प्रितिवंत मोग खेळटा. आनी शिजता. म्हाका तुजे विणें सूख भोगना. आनी भोगचेंय ना... कित्याक तूं म्हज्या काळजाचो गोंडो...''

''खरेंच मॅगी?'' आपलें हासतें आनी लजपी मुखामळ मॅगीचेर दवरून नोरमन विचारता.

''मोगाच्या नोरमन दीस रात हांव सपनेतां तुज्या मोगाच्या भारान आनी बडबडटां मोगाचीं उतरां. हो म्हज्या काळजांतलो गूट तुका सांगलें बगर म्हाका सुसेग भोग नासलो. तर नोरमन, सांग आतां. तूं मानून घेता हो म्हजो तुजे वयलो प्रितिवंत मोग?... वेंगायता तुज्या ह्या मोगान लासतल्या काळजाच्या गोंड्याक...'' ह्या विचाराक कायंच जाप करिनासतना नोरमन वगीच रावता. ताका समजना कितें जाप दिवची ती.

''कित्याक मोगा वेळ लायता?... जरी खरेंच तुका काळजा सावन मोग

आसा जाल्यार म्हजो!''

''मॅगी कित्याक तूं हे वरीं उलयता? हांव जाणा, तूं काळजा सावन मोग करता म्हूण. पूण केन्नाच म्हज्यान सांगूक तुका घडचें ना. म्हजें निर्मळ काळीज तुका भेटयता म्हूण, कारण आमी फाव ते पिरायेचेर पावूंक नात आनी दुसरें, देवाचो गूट आमच्च्यान पारखूंक नज.''

''मोगाच्या नोरमन तूं जाणां हांव कितले जाळ आनी वळवळे भोगतां ते? सगळीच पिशी कशी जातां पळोवन तुज्या रूपेस्त मुखामळाक आनी गुणेस्त सभावाक म्हज्या एकल्याच मोगाच्या नोरमन, खरेंच आड वता तूं म्हजे खुशेर?''

हीं इतलीं गोडसाणीच्या मोगाचीं उतरां आयकून नोरमन पिसो जाता. आनी सगळोच गोंधळाक सांपडून म्हणटा.

''मॅगी हांव आड वचुना तुजे खुशेर आनी ह्या प्रितीच्या उतराचेंर. पूण तूं जातीन बामण आनी हांव खालते जातीचो एक रेंदेर. तेन्ना ही येवजण जी तूं सारती पावोवपाक मागता. ती भारी अवघड आनी दुसरो तुजो पापा, जो वर्तुवता कासताचो पोटलो आडखळ हाडटलो ह्या एकवटाचेर!''

''पूण नोरमन, तुंवूंय मानता त्यो जाती-काती वर्तुवता आसतना. तूं एक गुणी क्रिस्तांव''.

''ना! हांवे त्यो दळडिन्यो आनी अदृश्ट जाती काती केन्नाच मानूंक नात आनी मानचोंय ना''.

मोगाळ वाचप्या, खरेंच ह्यो नसत्यो जाती-काती आजुनय आमच्या माणकुल्या गोंयांत वसतात. जे वरवीं जाय ते फावटीं आमी एकामेकाचो वेगळोचार रचतात. आनी तो खरो एकवट आमचे मदीं ना जाता. जी खरीच सुखाची बुनयाद जावन आसा. हे वरवीं बारीक नियाळ करून आमचे मदीं हें जाती-काती विशीं वशिल्लें नेणारपण काबार करप चड गरजेचें आसा.

हें भशेन तांच्यो गजाली चलता म्हणटा सर आमोरी जाली. ती दोगांय थंयची आपल्या घरा वचूंक कडसरलीं.

तें रातीं मॅगीचें काळीज सगळेच फाफसलें तें एकामेकांच्या काळजांतले गोडसाणीन भरिल्लें, ताची सगली मत पिशी कशीं जाली. ताका समजना जालें कितें करचें? तें हुसकारतालें, सुसकारतालें आशेतालें आनी रडटालें फक्त त्या नोरमनाक आपलो सासणाचो घरकार करपाक.

दुसरो दीस उजवाडलो सदचे भशेन ऑफिसांतली शिर्वीस काबार जातकूच तीं सांजेच्या वेळार पासयेक वचूंक भायर सरलीं. चौपाटीचे आदले सुवातेर पावतकूच तीं एका बांकार बसलीं. थंय तांच्यो गजाली हे भशेन चलताल्यो.

''नोरमन म्हज्या मोगा, आयज पूण तूं म्हाका उतर दिता?'' मॅगीन विचारले. तेन्ना नोरमन मातसो लजलो आनी ताणें प्रतिकार केलो.

''हय आयज हांव तुका सारकें उत्तर दितां. पूण एकूच म्हाका भिरांत दिसता. तुजो पापा जातीकातीच्या नावांन ह्या आमच्या चिंतनाचेर आडखळ हाडटलो म्हूण''.

''नोरमन ते पासत तू कांयच भिनाका'' अशें म्हुणून मॅगी आशेल्ले भशेन त्या नोरमनाच्या गळ्याक वेंग मारता. आनी थंय ती दोगांय एकामेकांचे वेगेंत जाय तो वेळ उरतात.

हे भशेन तांची ही मोगाची रोपी दिसान दीस वाडत वता अशें दिसता, कितेंय केल्यार तीं एका मेकाक केन्नाच विसरचीं नात इतलीं घट्ट जातात. खरेंच तीं दोगांय पवित्र आनी निर्मळ मोग करतालीं.

पूण मोग चलता थंय दुस्मान उप्रासताच ते भशेन तीं एक दीस एकामेकांचे वेगेंत आसतना थंय पावता ''कोसू मावशी'' तांची मोगाची दाटी ती बारीक साणीन पळयता.

उपरांत ती ताकां कळनासतना मॅगीच्या पापालागीं वता. ताची ही मोगाची खबर कळयता. ही खबर आयकना फुडें मॅगीचो पापा सगळोच अजापता वागा-शिंवां भशेन रागान चाळवता. तो जातीक लागून चड बेजारता, पूण शांत जाता. आपल्या जिवाक सांबाळटा. मॅगी घरा येतकूच कसलोच आपलो राग दाखयना. पूण भायल्या-भायर सर आंतोनियो पातालिओ मास्कारेन्साच्या चल्या लागीं

मॅगीच्या काजराची तयारी करता. सर कार्मो मास्कारेन्स आनी एंजिल्डा लोबो हांचो तो एकलोच पूत आसता. मास्कारेन्स मुळांत म्हापशें म्हालांतलो आनी जातीन बामण आसता.

हें सगळें मॅगीच्या कानार पडना फुडे तें पिशां भशेन जाता. आनी आपल्या मोग्या वांगडा पळून वचपाचें येवजिता. पूण मातशा वेळान येवजून तें एक मांडणी आंखता.

ज्या दिसा मॅगीचे पायन सोयरीक केल्ली. त्या दिसा सावन तें पायक आपूण दुयेंत आसा अशें दाखयता. दिसान दीस तें आपल्ले दुयेंतपण वाडिले भशेन भेस घेता. हांतरूण धरता. ताचो पापा शिटूक जाता. मॅगीचें दुयेंस पारखूंक साबार बऱ्या-बऱ्या वैजांक हाडटा. पूण ताका कायंच समजना कसलें दुयेंस तें.

दुसरे वटेन आपल्या मोगाचें कितें जातलें हे चिंतून मॅगीन जेवण उणें केलें. तें खऱ्यानीच एक वायटकार कशें दिसूंक लागलें. दिसान दीस ताचो हो दुयेंतपणाचो भेस चडत वतालो. पयलीं पयलीं ताचो पापा समजतालो, हे ताचें दुयेंस रोखडेंच काबार जातलें म्हूण. जाय ते दीस पासार जाले. वैजाक ते दुयेंस पारखुपाक जायना जालें तें पळोवन तो चड अजापलो, आनी कंटाळलो. ताणें देवालागीं मागणी केली. हे आपले एकलेच अपुरबायचे धुवेक बेगीन बरी कर म्हूण.

पूण ना! हातूंत कसलोच गूण मेळ्ळो ना तेन्ना एक दीस ताचो बापूय बेजारलो. ताणें ते भशेन टेस्टा मेन्ट केलो'' जो कोण म्हजे धुवेक बरी करतलो. ताचें लागीं तिका काजार करून म्हजे गिरेस्तकायेची हेंरास (वारसो) भेटयतलों.

हो आपल्या पापाचो टेस्टामेन्ट (मृत्यूपत्र) आयकून मॅगी खूब खोशी जालें. ताणें आपले मतींत म्हळें ''येवजिल्लें काम सारती पावत आयले'' म्हूण.

आनी त्या दिसा मध्यान रातीं मॅगी उट्टा आपल्या हातांनी मोगाच्या नोरमनाक चीट बरयता ती अशी.

मुंबय ०८-०७-५६

म्हज्या काळजांतल्या गोंड्या,

भलायकी आनी शांतीकाय...

तुका कळोवपाक सोदतां की जायते दीस जाले आमची भेट जावंक ना. वा हांवे चीट लेगीत तुका बरोवंक ना. ह्या खातीर तूं म्हजेर खूब रागार जाला आसतलो. पूण तशेंच तुवें आयकलां जातलें हांव खूब दुयेंत आसलें म्हूण. पूण हांव खरेंच दुयेंत ना. तर हांवे एक मांडणी येवजिल्ली. जेन्ना म्हज्या बापायन आमच्या मोगाचे दाट इश्टागती विशीं आयकल्लें तेन्ना ताणें म्हजें काजार करपाचें येवजिल्लें त्या म्हापशेच्या आंतोनियो पातालिओ मास्कारेन्स नांवांच्या चल्यालागीं.

देखून हे म्हजे पिडे पासत बापायन जायते उपाय घेतले. पूण ताका तातूंत फळ मेळ्ळें ना शेकीं आतां तो सामको पिसो जाला. ताणें केल्लो...टेस्टामेन्ट हे भशेन....

देखून तूं आतां आमगेर यो. एका दोतोराचो भेस घेवन. उपरांत फुडें कितें करपाचें ते हांव तुका सांगता.

तुज्या मोगान लासतलें
मॅगी

ही चीट वाचिनाफुडें नोरमन सगलोच खुशालभरीत जाता.

कारण इतले दीस तो समजतालो की मॅगीन आपल्याक फटयलां म्हूण. दुसऱ्या दिसा नोरमन दोतोराचो भेस घेवन मॅगीगेर वता. ताका तपासता. आनी फर्मायता दिसाक तीन फावटीं पिलांचो काल्द आनी एक शेर गायेचें दूद. दोन दिसांनी ताचें वखद बरें गूण दाखयता. एका सप्तका भितर मॅगी बरें जाता. तीं सगलीं खुशालभरीत जातात. टेस्टामेन्टा प्रमाण नोरमन आनी मॅगी सातवो काजाराचो साक्रामेन्त जोडटात.

पूण मॅगीच्या बापायक आजुनय खबर नासलें नोरमन हो जातीन रेंदेर म्हूण. देखून एक दीस तीं सगली जेवणाच्या मेजार बशिल्लीं, तेन्ना मॅगी सगली आपली कथा पापाक सांगता. कशे बशेन आपणें फकाणां केलीं ते कुरार जायनाशिल्ले पिडेची आनी कशे बशेन तो नोरमन आयलो. त्या दोतोराच्या भेसान.

हें सगलें आयकून मॅगीचो पापा सगलोच अजाप जाता आनी म्हणटा.
"खरेंच, मोग मानिना जाती-काती"



# 3. केल्ल्या मापान भोग

"KELLILA MAPAN BHOG"

त्या सुपुल्ल्या आनी सोबीत केपें गावांत ''फुर्तादो'' ह्या नावांचो एक सुखी घराबो जियेतालो. ह्या घराब्याक गावांत सगळीं वळखतालीं त्या घराब्यांत कार्मो आनी कारलेता नांवांची दोग जाणां घोव बायल रावतालीं ताकां रोडोल्फ नांवांचो एकलोच अपुरबायेचे पूत आसलो.

हो घराबो खोशयेन दीस सारतालो. पूण अवचीत जुलयाच्या १९ तारकेर तांचेर भिरांकूळ कूप आयलें. कारलेता अकस्मात बरें ना जाता. सगळे शेजारी धांवून येतात. जाल्यार कोण पाद्रीक आपोवंक वतात. थोडे जाण घरचे उपाय करतात. पूण ना. हातूंत कसलेंच फळ मेळना. दनपाराचें देड वर जाता. आपल्या घरकाराक आनी सुपूल्ल्या रोडोल्फाक व्हड दूख दवरून कारलेता प्राण सोडटा.

आवय अंतरून सुमार स म्हयने जातात. तरी रोडोल्फ बावडो दीस रात आवयचो उगडास काडून रडट्टा. खावंक दिल्यार खांवंक घेना. कितेंय सांगल्यार कायंच आयकना. पूण आपल्या पाय लागीं मात विचारता. ''पाय, मांय केन्ना येतली? ती खंय गेल्या? म्हाका खांवक दिवंक आनी उदक न्हावंक ती कित्याक येना...? ताच्या ह्या उतरांनी कार्मो खूब दुखी जावन दोळ्यांतल्यान दोन दुकां गळयता.

खरेंच आवयच्या मोगाची सर ह्या संवसारांत आनी खंयच्याच मोगाक जावंची ना रोडोल्फ बावडो आवयच्या मोगाक अव्रेकतालो आनी आशेतालो. हय, जाकां आवयचो मोग मेळना. तो खऱ्यानीच दुर्भागी!

रोडोल्फ आतां आठ वर्सांचो जाल्लो. तांच्या पायन ताका प्राथमीक इश्कोलांत घालो. थंय तो एकदम बरो शिकतालो. आपलें शिक्षण आनी आपूण बरो हातुंतच तो आसतालो.

थोड्या तेंपान कार्मोच्या मनांत एक भलतेंच चिंतप आयलें. आवेता नावांच्या एका रांड बायलेकडेन काजार जावपाचें ताणें येवजिलें. आवेता ही खोट्या कर्तुबांनी रेवाडलेली नश्टी अस्तुरी आसली. तिणें आपल्या नखऱ्यांनी कार्मोचेर मोगाचो फास घालो. आनी ताका आपल्या मोगाच्या जाळ्यांत सांपडिलो. ह्या भशेन कार्मो अवेतालागीं दुसरेपणीं काजार जालो.

नश्ट्या मनशाक आपल्या खोटेपणां आधारल्या शिवाय केन्नाच सुख भोगना शें दिसता. कित्याक ह्या काजराक दोन म्हयनें लेगीत बलांडलें नात. पूण आवेता रोडोल्फाचेर खोट्यो करण्यो घालूंक चिंतता. कित्याक तर फुडाराक ताची तिका आडखळ कशी आसली देखून ती एक मांडणी चिंतता. एक दीस रोडोल्फाच्या नावांन अशे भशेन चीट बरयता.

मोगाळ रोडोल्फो,

आमकां तुजी चीट मेळ्ळी. आमकां सगळी खबर गोमली. आमी आयज मध्यान रातीं येतले तुज्या पायक जितेच मारूंक. जितेंच मारूंक. देखून रातचो तूं मातसो जागृत राव.

तुजे मोगाळ इश्ट

ए. डी. सी

ही वयली चीट बरोवन पतीच्या हातांत दिता तेन्ना तो निकतोच आपले शिर्विशेवयल्यान आयिल्लो. तो ती चीट वाचता. कांयच उलयनासतना रोडोल्फाचे कुडींत वता. त्या वेळार रोडोल्फ आपलें लिसांव करतालो. तेन्ना ताच्या फुड्यांत कार्मो उबो जाता व्हडा रागा भरांत म्हणटा.

"वच, भायर, म्हज्या घरांतलो...आयज सावन तूं वर्तुवचो ना म्हजो पूत. चल वच, आनीक मिनीट लेगीत हांगा रावूं नाका!"

आपलो पाय हे भशेन चाळवल्लो पळोवन रोडोल्फ अजापता. कित्याक ताणें ताचेर असो रागावल्लो केन्नाय पळोवक नासलें. देखून तो नियाळूंक पडटा. कितें घडलें तें. तो भिता हे आनी ते वटेन पळटा आनी एक फावट तींच उतरां उलोवन पाय ताचेर धेंगशेता. रोडोल्फ सामकोच पिसो कसो जाता पाय आपल्याक कितें म्हणटा. ते कांयच समजना तो पायलागीं दिमी मारून भोगसणें मागतां आनी रडटा. पूण कारमो ताचें कांयच आयकना ताच्या हाताक धरून ताका भायर घालता. तेन्ना आनीक दुसरो उपाय ना जावन तो घरांतलो भायर सरता...!

भायर सरल्या उपरांत तो आपल्या घराचेर एक नदर मारता. सुस्कारून तो म्हणटा, ''हाय, म्हज्या घरा. जंय हांव ल्हान आसलों, तो व्हड जालों, म्हज्या भूंय- आवयच्या कुसव्यांत. पूण आतां तुका कशें पटलें. तुज्या रोडोल्फाक भायर घालूंक? हाय, ! म्हज्या हर्ता (पोरसू) कशे भशेन हांव तुजों मोग करी पूण म्हजेर तूं बदमाश जालें कितें तुका हांवें वायट केल्लें?.. हाय! म्हज्या पाय, कशें तुका पटलें तुज्या रगताच्या पुताक कसलोय इल्लो पूण चुकीचो कोनसो नासतना घरांतलो भायर घालूंक? पूण देव आसा. जो म्हाका राखतलो. आनी तोच दितलो बऱ्याक सर्ग आनी खोट्यांक लोखंडाची ख्यास्त.''

हें असले उल्हास सोडून आपलो रस्तो तांकता. तसोच तो पावता सावर्डे गांवात जंय तो हांगा-थंय इज्मोलाक (भीक) भोंवता. पूण कोणूय एक वाटसूर पर्यान ताका लेखिना. हे भशेन रोडोल्फ बावडो पिसो कसो भोंवता. तो तानेन तानेता. भुकेन भुकेता, पूण ताका इल्लोय पूण आधार नासता ती तान आनी भूक निवारूंक, वीख खातलो म्हणल्यार लेगीत ताचें लागीं एक पैसो ना. ताची आंगवस्त्रां सगलीं पिंजल्यांत. भोंवन भोंवन पांय सुजल्यात. पायांक घाय जावन घाण मारपाक लागल्या माथ्याचे केंस खूब वाडल्यात आनी तो भलायकेन एकदम अशक्त जावन बारीक बडी कशी जाल्लो. एकाच उतरांन मोट्या हळवळ्यान तो आपल्या नशीबाचें निरमाण भोगतालो. आनी फूंक मारल्यार भूंयेर पडटा तसो.

असल्या भेसार तो आसताना पावसाचे ते दीस येतात. आनी थांबनासतना जाय तसो पावस पडटा गड गड मारता. वीजो लखलखतात आनी असल्या वेळार... रोडोल्फ आपल्या घरा परतून वचपाची वांट तांकता. आपलो कसलोच गुन्याव नासताना आपल्या पायलागीं तो गुन्याव भोगसूंक वता. वाटेर ताका जाय तो

लोक मेळटा पूण कोणूच ताची काकुळट करिना. हाय! नशीब.

मोगाळ वाचप्या, रोडोल्फाक हांगाच दवरून कार्मो आनी आवेताची कितें खबर जाल्या ती पळोवया...

रोडोल्फ घरांतल्यान भायर सरून वतकूच तांगेर एक भुरगो जाता. ताका कारलोस म्हूण नांव दवरतात. ताची अपूरबाय करून व्हडा संतोसान तीं जियेतात. रोडोल्फाचो मातूय ताका उगडास येना. पूण आपल्या सुपूल्या कारलोसाक हांसोवन, मुरगुटून, खेळोवन आपलें जिवीत सारतात.

अशी खुशालकायेच्या नादार तीं जियेताना एक दीस कार्मो एक सपन पळयता, ताका दिश्टी पडटात ती उतरां ''तुवें वायट करणी आदारली''

ही सपनांतली उतरां ताका दिसाचीं लेगीत दोळ्या मुखार दिसूंक लागलीं. ताचो उगडास न काडूंक ताणें जायतें केलें. पूण ताची तकली अदीक आनी अदीक पिकार जावंक लागली. हें भशेन कार्मो दीस आनी रात विचार करूंक लागलो. कोणें वायट करणी आदारली?... हांवे?... न्हय! हें केन्नाच खरें जावंक नज...

असल्या चिंतनांनी तो आसतना थंय ताची पत्नी आवेता पावता आनी अजापून तांका विचारता कितें जालें तें. कार्मो तेन्ना सांगता.

हें आयकून आवेता जाप दिता ''कार्मो, तूं कितें पिसो जालां? तें वर्तुवता एक सपन! तसली सपनां म्हाका दिसाक शंभर पडटात आनी एका सपनाक लागून इतलो पिकार जाता.

रोडोल्फ आपल्या घराची वाट तांकता. गायो, सुकणीं आप आपल्या वासरांक आनी पिलांक दूद दितालीं. ते पळोवन रोडोल्फ विचार करता. कित्याक उपकारता म्हजे भशेन एक भिकारी रोडोल्फ जर ताका ना मांय आपल्या काकूळटीच्या हातांनी लागी ओडटली. जाका पयस केलो ताच्या पायन कसलोच गुन्याव नासतना?..

असो विचार करता-करतां ताका काळोख जाता रातींच्या ७.३० वरांचेर तो आपल्या घरां लागीं पावता. ताका...दिश्टी पडटा एक बरो दिवो पेटिल्लो पूण

रोडोल्फ गोंदाळटा. थंय ताका वचन शें दिसना.

हे भशेन तो फोर्स करता भितर सरूंक वता. आनी दारार मारता. तेन्ना कार्मो रोखडोच भायर येता. आनी ताच्या फाटल्यान आवेता बाय येता. त्या भिकाऱ्यालागीं विचारता.

"ह्या वेळार तूं कित्याक दारार आयला." तो रोडोल्फ सगळोच रडकुळो जाता. आनी मागता, बाये, उपकार करून आपणाक थोडो न्हिदपाक जागो दी म्हूण.

"चल! चल! तुज्या असल्या भिकाऱ्यांक जागो दिवंक आमच्या लागीं सुवात ना" अशें म्हणून आवेता त्या भिकाऱ्याचेर थापट मारता. आनी दोगांय भितर वचून दार बंद करतात.

तीं भितर गेल्या उपरांत रोडोल्फ खूब दुकां गळयता. 'सायबा भोगोस!'

मोगाळ वाचप्या, पळयलें नशीबाचें निरमाण देवान कशें बरयलें, ज्या घरांत तो रोडोल्फ सुखान बाजेर लोळपाक जाय आसलो थंयच रोडोल्फाक आंगार फाळीं नासताना ताका एका कोनशांक न्हिदूंक लेगीत सुवात मेळना...देवा कितें तुजी नीत?... कितें तुजी पदवी? ताच्या दुकांनी सगळीं जमीन भरता आनी ताका उठपाक लेगीत ताकत ना जाता.

शेकीं आपल्या पायक तो एक चीट बरयता ती पिंजिल्या कोटाच्या वयल्या बोलसांत घालता. थोडो वेळ देवाक मागणी करता आपल्या पायक भोगोस म्हूण. अवचीत अशक्तपणाच्या भारान तो जमनीर शेंवटता.

वाचप्या आनीक तो केन्नाच उठच ना. ती वर्तुवता ताची निमणी न्हीद! न्हीद रोडोल्फ न्हीद!!

सासणाची न्हीद...न्ही...द....ता!!!

सकाळचीं सात वरां वाजतात तेन्ना कारमो भायर सरता. तेन्ना ताका तो रातचो भिकारी दारामुखार सासणाची न्हीद न्हिदलेलो दिसता. ताच्या हातांत एक तेर्स आसता. इतल्यान ताची नदर ते चिटीर पडटा तो ती काडून वाचता. जी हे भशेन आसता.

चड मोगाच्या पाय,

म्हाका चड दूख भोगता हांव कोण तो तुका सांगूक. पूण ह्या निमण्या वेळार तें हांवें सांगचें पडटा.

पाय ह्या म्हज्या भिकाऱ्याच्या भेसाक पळोवन घडये  तू म्हाका वळखूंक विसरलो. पूण खरेंच हांव भिकारी न्हय. तर तुजो पूत रोडोल्फ. जो ह्या भिकाऱ्याच्या भेसार पावलो. मोगाळ पाय, म्हजे कुडीक पळे. हांव ल्हान आसतना जिका तू वेंगायतालो. उमांव घेतालो. पूण आतां...? तिका घाय पडल्यात. ताका वास मारता देखून म्हाका कोण लागीं सरकना...

पाय आमगेर जाय ती गिरेस्तकाय आसा. देखून शिरविदोर वावूरतात. खातात, जेवतात, पितात...पूण...? तुजो खाशेलो पूत आपली जीब भिजयतलो म्हळ्यार लेगीत उदकाक पादीशेर जाल्लो. ताचीं सगळीं आंग वस्त्रां पिंजल्यांत आपली कूड धांपतलो म्हणल्यार ताचे लागीं घडना. असोच काश्टी नेसून भोंवचो पडलो. पाय ह्या भेसार आमचो एक पूण शिरविदोर आसा जाल्यार पळे! नियाळ आनी नदर मार तुज्या मेल्ल्या पुताचेर तुजो आदलो रोडोल्फ दिसता जाल्यार पळे.

पाय, म्हाका घरांतल्यान भायर घाल्या उपरांत हावें कशे दीस सारल्यात ते देव जाणां. शेकीं तें सोसू नज जावन व्हडा आशेन हांव घरा परतलों समजून, आतां तरी म्हजो पाय म्हाका वेंगायतलो म्हूण. पूण ना तशें घडलें ना. तरी जांव, हांव चड संतोसलों कित्याक, ज्या घरांत हांवे जल्म घेतलो. थंयच म्हाका निमाणो सुसकारो सोडूंक मेळ्ळो. पाय, ह्या वेळार म्हाका एकूच उगडास येता. तो म्हज्या मांयचो. जी ह्या वेळार आशिल्ली तर...? पूण आतां हांवूच तिका भेटोवंक वता...हांव देवा लागीं मागतां तुमकां भोगोस म्हूण तुमकां बरी भलायकी, लांब जिवीत दी म्हूण.

मेळचे आमी एकामेकांक सर्गा राज्यांत.

–तुजो सोंपलेलो भिकारी

रोडोल्फ फुर्तादो

मोगाळ वाचप्यांनो, ही चीट वाचतकूच कार्मो पिसो जाता. मड्याक वेंग

मारून व्हड आरड मारता, जी म्हज्यान सांगूंक जायना आपल्या अपुरबायेच्या म्हालगड्या भिकारी पुताचे तें मडें दुकांनी न्हाणयता. मोगाळ वाचप्या, भिकारी रोडोल्फाच्या जिविताक कित्याक उपकारली ती कार्मोची व्हड दौलत? त्या रोडोल्फाचे तकलेंत धनयान कितें निरमाण बरयल्लें जायत.. जरी तो वर्तुवलो एका व्हड गिरेस्ताचो एकलोच अपुरबायेचो पूत? पूण कोण ताची नीत करीत?....

कार्मो खूब खूब रडलो. आता रडून कित्याक उपकारता आमी सदांच चिंतचे आदी ह्या उतरांची उगडास धरूंक जाय, बैल गेल्या उपरांत दार लावन कसलो फायदो?... जायते फावटीं आमचें मर्दीं अशे घडूंक पावता. आमी जिवे आसताना एका मनशाक व्रातार करतात. मरतकूच ताका मुजग लावन शिमितरींत पावयतात. हेच भशेन कारमो भाटकराक घडलें...!

रोडोल्फ मेल्यार सतरा दीस जाले. हे घडणुकेच्या फाटल्यान कोण गुन्यांवकारी वर्तुवतालो, हें कारमो भाटकाराक कळटा.

कांय दीस गेल्ल्या उपरांत तो फातराचो एक मोनुमेन्ट बांदूक लागता. तो सात फूट उंच आनी चार फूट रूंदायेचो आसून मर्दीं ताका मनशाचें कुडीचो बुराक दवरता. तो त्या मोनूमेन्टाचेर ही उतरां चित्रांवंक लायता.

केल्या मापान भोग

एक दिसा आवेता बाय एका कदेलाचेर बसून एल लेस शिंवता आसताना ताचे खोलयेंत दोग शिरविदोर येतात. आनी सांगतात "तुका भाटकारान अप-टू-डेट न्हेसून मोनूमेन्टा लागीं आपयलां म्हूण".

तेन्ना त्या मोनूमेन्टाची रचना पळोवपाक आवेता बाय बरें न्हेसून येता. पूण कटा! ताणें चिंतिल्ले परतेंच जाता. करमो आवेताच्या भेंडाक धरता. त्या बुरांकातल्यान ताकासकयल शेंवटीता. गंवड्याक वयलो बुराक बंद करूंक सांगता.

वाचप्यां तुका सांगीना आवेतां वागां-शींवां भशेन नेटान कसली आरड घालता ती. पूण कयताद!...त्या धनयान निर्मिल्लें ताका केल्ल्या पातकाचे सेन्टेन्स. उपरांत तें थंयच्यान केन्नाच भायर सरलें ना...!

# 4. सपन




त्या रातीच्या वेळार एका हांतात टोर्च आनी दुसऱ्या हातांत पिस्तोल घेवन भायर वचपाचो बेत केलो. पूण खंय वतलों, हावें म्हज्या मनांत विचार केलो. ''हांव येदे रातीचो खंय वतां? कसल्या कामाक?'' पूण जाप मेळ्ळी ना! म्हजे पांय आगगाड्ये भशेन धांवपाक लागले. हांव चलत चलत म्हज्या गांवचे शिमे भायर पावलों. लोकांचे नदरेंतल्यान पयस पावलों.

सुमार पंदरा मैल चल्ल्या उपरांत एका जाग्यार पावलों. थंय एक मनीस न्हय मूस लेगीत झळक नासलो. सगळी जमीन धवी आनी खुशाल दिसताली. तो चंद्रीम आपलीं रूप्या सारकीं शितळ किर्णां फांकरतालो. तो जागो सांगूक गेल्यार इतलो सपाट आसलो, खंय ताचो शेवट हें कांयच समजनासलें. थंय एकूय झाड नासलें. त्या अरिश्ट तळपा भायर थंय एकूच तळप आसलें जाचेर हांव उबो राविल्लों.

हांव चड कासाद जाल्लों. हांवे त्या तळपार बसूंक येवजिलें बोलसांतले एक सिगार काडून फुसकावंक लागलों.

पूण अजाप!...हांव ज्या तळपार बशिल्लों. ते तळप म्हाका दिसलें हेवाटेन आनी तेवाटेन हालूंक लागलां म्हूण. जसो कितें ''भुंयकांप'' सुरू जाला कसो. पूण तशें घडलें ना... तें तळप त्या जाग्यावयल्यान कडसरलें! हांवे टोर्च घालून पळयल्यार म्हाका दिसलें त्या जाग्यार एक बांय आसा. तिका धवे चकचकीत पावडें आसात.

ती बांय पळोंवक म्हूण भितर सरलों तितलेंच निमित्य...! तें तळप आपशींच आपल्या आदल्या जाग्यार आयलें. हे बशेन म्हाका ते बांयत, धांपलो काळखांत!

म्हज्या आंगातल्यान शिरशिरो भायर सरलो. म्हाका दिसलें होच म्हज्या सासणाचो जागो म्हूण. त्या संकटातल्यान सालवार जावंक म्हाका आनीक कसलोच उपाय ना जालो. कोण नाशिल्ल्या ह्या जाग्यार हांवे मरूंक येवजिलें तें बोलसांतलें पिस्तोल काडूंक हात घालो. पूण कटा! तें बोलसांत नासलें. म्हाका रोकडोच उगडास आयलो. हांव त्या तळपार बशिल्ले कडेन तें पडलां जावंक जाय म्हूण.

उपरांत हांवें देंवपाक सुरू केलें, ते अरीश्ट धवे फुल्ल सुळसुळीत पांवडे. हांवें 100...200...400.. आनी 1000 मेजले, आनी हांव जितलो सकयल वतालों, तितलो काळोख आनी काळोखूच जातालो. तेन्ना म्हाका दिसलें हांव जितोच पावता म्हूण इनफेरनात. तरीय पावन-पावना...कितलींशीच वर्सा बलांडली अशें म्हाका दिसलें. आनी अखेर हांव पावलों! शाबास.!!

एक मिनीट जावंकूच ना हांव खोशयेच्या नादार आसलो. पूण दुसऱ्या अर्दान आनीक एक भलतेंच जालें! घो...! घो...!! घो...!!! हांवें टोर्च पेटयलो. सुमार 500 फूट सकयल एक न्हंय व्हावता ती पळयली तिचें उदक काळ्ळें कि‍ट्ट आसलें दुसरे वटेन तो भिरांकूळ आवाज घो...घो...घो! हांवें म्हजो टोर्च सगळ्याक फिरयलो पूण कायंच दिसलें ना फक्त ती भिरांकूळ आनी अरिश्ट न्हंय दिसली. एका विझमिता भशेन एक व्हड पूल म्हाका दिसलो. सुमार एक मैल लांब आनी देड फूट रूंद तो पूल एका अर्दान निसरतालो. दुसऱ्या अर्दान ताका धरपाक कायंच नासले. पलतडीं मात एक दरवटो आसलो.

हें वयलें सगळें म्हाका ते बांयत दिसता. जातूंत हांव देंविल्लों, आनी तिचेर वयर तें अरिश्ट तळप आसलें. जीव घट्ट करून एका जिवाण्या भशेन हांव. त्या पुलावयल्यान वचूंक लागलों. पलतडीं केन्ना पावतलों?...मदींच हो दुसरो विचार मतींत रिगलो. मरूं वा उरूं! अशें येवजून हांव ती वाट ताकूंक लागलों. शेकीं व्हडा कश्टान पलतडीं पावलों!

त्या दरवट्यांतल्यान भितर सरलों. नीट चलूंक लागलों. पूण अजाप! आनी

कसलें अजाप?...

आह! तें व्हड आनी अरिश्ट क्वार्तोस हिऱ्यांनी भांगरांनी रूप्यानी आनी हेर उंची माणकां-मोतयांनी भरिल्लें. ताचें वर्णनय म्हज्यान करूंक जमना.

तर हांव आता कितें करतलों?.. हें सगले म्हज्या घरा व्हरूंक कितलीं वर्सां लागतालीं? उपरांत हांव ह्या संवसारांत केदो व्हड मिलियनेर जातलों?.. हें सगळें चिंतून कितें करचे तें म्हाका समजना जालें.

हांव एके कुडांत भितर सरलों. सगळ्यां परस ती चड आनी चड मोलादीक आसली. ताका भांगरांनी आनी हिऱ्यांनी नटयिल्ली. ताच्या पर्जळान ती कूड सगळीच लखलखताली. थंयची तीं कदेलां, मेजां बाज सगळींच भांगरांनी केल्लीं ताका व्हड हिऱ्यांचें नक्षीकाम केल्लें. तशेंच ताच्या खुंट्यांक वेगळ्ये तरेन हिऱ्यांनी सजयिल्लें. हे असले मोलादीक कुडींत भोंवून हांव जीव भुलोवणी सोबीतकाय खुशाल भरीत जावन पळयतालों. पूण...“मांय”! अवचीत हांवें एक किळांच मारली.

त्या भिरांकूळ आनी अरिश्ट मनशाक पळोवन.

हावें मनांत प्रार्थना केली. सायबा! म्हजी ह्या वेळार काकुळट कर. सायबिणी तूं म्हाका पाव आनी म्हाका निवार ह्या अरिश्टांतलो! त्या भिरांकूळ मनशाचो एक हात म्हणल्यार एक अरिश्ट माड. ताचो पांय म्हणल्यार एक व्हड् पिंपळ, ताची तकली म्हणल्यार अरिश्ट एक धोल, ताचें पोट म्हणल्यार एक व्हड घर ताचो दोळो म्हणल्यारएक रेल्वेचो दिवो. ताचे दोळे तांबडे भिरणां बशेन आसले ताका पळयतकूच दिसतालें. ताच्या दोळ्यांतल्यान उज्याच्यो किट्ट्यो भायर सरतात. हांवे अदमास केलो. हे सगळे गिरेंस्तकायेचो तो धनी आसपाक जाय. म्हूण तो भिरांकूळ सुसकारे सोडटालो. तें पळोवन म्हाका दिसलें हांव सगळोंच हुबून वतां सो.

मांय म्हणून किळांच मारिना फुडे म्हज्या आंगार एक थंडगार झेलाचो हात कसो पडलो. अशें दिसलें त्या अरिश्ट मनशान म्हाका धरलो. देखून ताच्या चपक्यांतल्यान सुटूंक हांव जाय तो वावुरलों...पूण इतल्यान अवचीत हांव जागो



जालों. किते सांगूं? म्हज्या फुड्यांत आसली म्हजी मांय हातांत घेवन एक दिवो. हांवे मांय म्हुणून न्हिदांत जी किंळाच मारील्ली, देखून म्हाका ती उटोंवक आयल्ली. उपरांत हांव सारको सोयराणांत येतकूच म्हाका समजले हें एक ''सपन'' आसलें म्हूण.

***

# 5. रगताचो श्राप



तेन्ना ती भिरांकूळ काळखी रात न्हिदेच्या गोपांत आशिल्ली. भायर वारें आसलेशें दीस. आपले आवयचे वेंगेत तो चंद्रीम कुपांनी लिपिल्लो. त्या अरिश्ट रूखांचेर ते व्हडले खाडाचे देंवचार खेळटाले. तो रस्तो मनशाकुळाक हुसकेतालो. पूण मनशाकूळ मात प्रायश्चीत करता शें दिसतालें. ते रातकिडे 'की–की' आवाज करताले अशा वातावरणात केपेचें शार दुखांत आसाशें दिसतालें. तें पारेदीचें व्हडलें घड्याळ मात आपल्या सुवादीक ताळ्यान 'टीक–टाक' करून मध्यानी रातीचो एका वराचो वेळ जाला म्हूण खुणायतालें. अशा वेळार केपेंची सगळी रचना न्हिदिल्ली ती आळशी न्हीद. हांव मात एकलोंच जागरण करतालो.

अशीं थोडीं मिनटां बलांडल्या उपरांत आनी हांव संवसारी चिंतनांनी घुस्पल्लों आसताना, अकस्मात एक भिरांकूळ आनी मरणा तनरी वयलो आवाज म्हज्या कानार सादलो ''आमचे शाप तुजेर भुजूं'' पयलीं म्हाका दिसलें कोणें तरी पिशा मनशान हीं उतरां उच्चारल्यांत. पूण उपरांत म्हाका खात्री जाली हीं उतरां फेरदीनाद भाटकाराल्या घराकडल्यान आयल्यांत. कितें हांचे कारण आसूंक शकता? म्हाका कांयच समजना जालें.

दुसरो दीस आपल्या पर्जळीत किंर्णांनी उदेलो. हांव हातुरणा वयलो उठूंकच नासलों. म्हजो इश्ट पीटर धांवत धांवत म्हजेसरीं आयलो. ताचे तें मुखामळ पळोवन म्हाका दिसलें तो कसल्या तरी गरजेच्या कामांक आयला जावंक जाय. देखून हांव ताका कितें पूण विचारूंक वतालों. पूण ताणेंच उलोवपाक सुरू केलें.

‘‘जाणां तूं कामील? फेरदीनाद भाटलाराल्या घरासरीं अजापाच्यो नखलामी घडल्या’’

‘‘कितें ?.. अजापाची नखलामी घडल्या ?’’

‘‘हय म्हज्या इश्टा रातींच खंय फेरदीनाद भाटकार आपले कुडींत आसलो. सकाळचीं किर्णा उदेंवचे आदीं नाच जालो खंय!’’

‘‘कितें ? नाच जालो! हें कशें घडूं येता?..

‘‘तें कोण नकळ पूण जाणा कामील?.. ताका खंय एक वायट सवंय आसली. तो खंय आपल्या मुंडकारांक गरजे वेळार दुडू दितालो. दुडू भरिना जाल्यार वा फारीक करिना जाल्यार ताकां रातीचे घरा आपयतालो. सगळे न्हिदल्या उपरांत जिवेशीं मारतालो खंय?’’

चल रे फट. हें आमी सत मानूं येता.?’’

‘‘गेल्ल्या दिसांची गजाल. त्या बोसत्यावांच्या पायक ताणें आपोवन व्हेलो. रातीचो आपवोन नाच केलो. ताचें कितें जालें?’’

हे अयकून हांव मोनों कसो जालों आनी हाजेर भारी चिंतूंक लागलों.

‘‘शेकीं तो सांजेचो वेळ पावलो. हांव आनी म्हजो इश्ट पीटर, फेरदीनाद भाटकाराच्या घरासरी गेले. ताचें तें घर आमी आरतून पारतून पळयलें. पूण कांयच दुबावाची सावळी आमकां दिसूंक ना. तेन्ना अवचीत आमी पाया खाला तीन रगताचे थेंबे पळयले. थेंबे पळोवन आमी अजाप जाले. ही आनीक कसली नखलामी?... आमी त्या तीन रगताच्या थेंब्यांचेर विचार करीत घरा आयले. नव्यान ती काळखी रात आयली. मध्यान रातीच्या सुमाराक आदलेवरी आवाज आयकलो तो आवाज असो आसलो.

‘‘म्हाका भोगसात हांव चुकलों!’’

‘‘ओ...फेरदीनाद! आतां आमका जिवेशीं मारिना? हा...हा..हा...हा...खंय गेली तुजी पदवी?...काल आमी तुज्या रगताचे तीन थेंबे वारायल्यात. आयज आनीक तीन..हें परीं तुज्या रगतान आमचे श्राप धुतल्यात. तूं जिवो आसा आनी

आमी मेल्यात. पूण तुका आनीक संवसाराचेर पांय दिवपाक मेळचो ना. तुजें रगत शोपतकूच मांस काडटले. हाडांचो सापळो संवसारांत दवरतले. हा.ऽऽ हा ऽऽ. हा.ऽऽ.

"हाय... हाय...आय... ह्या वेळार म्हजे चुर चुरे करात" हे असलें उल्हास तो फेरदीनाद भाटकार सोडटालो. ताच्या मुंडकारांचे आत्मे ताचे कुडिंतले जावंक जाय.

उपरांत मुंडकार व्हडल्यान आनी भिरांकूळ ताळ्यान कातांर करपाक लागले... 'भाटकारा, मुंडकार आयल्यात, ताचेंर ताप कांयच आयकनासतना तांची एक पूण जाप कोणाक दाखलो दिनासतना कर ताकां साप. पूण सासणाक भोग हो आमचो रगताचो शिराप.

***

# 6. नागोवणेचें पेन्सांव

*दोळ्यांनी पळोवंचें, उपरांत उलोवंचे*
*दुबावाचें पातक मतींत न्हय रिगोवंचें*
*सदांच कितें करचे आदीं चिंतचें*
*सात फावट कसाक लावन पळोवंचें*

"आह! दळदिऱ्या रोकासीना! किते रे तूं समजला? देमांद, जो म्हजेर घाला तो तूं जिखतलो म्हूण...? हा...हा... हा... आरे तुका सांजेक जेवतलो म्हणल्यार ना. देमांद म्हळ्यार तू कितें समजला? तूं केन्नाचो रे ? तुका आजून सोळा वर्सां सोपूंक नात. हें केदें तुजें शाणेपण?.. तूं ही सगळी भाटां-बेसां तुज्या पायचीं म्हूण समजला? हांव तुजो तितीव-तीं लुटून असो जियेतलो म्हूण. कोण पिसो तुका सांपडलो...?

आयज म्हजे लागीं दुडू कुसतात. म्हजी फांक आयज आख्ख्या गोंयांत फांकाराल्या. म्हज्या एका उतरान जाता ते हेरांनी हजार दिल्यार लेगीत जावचें ना...?

थोडो वेळ वगी रावून नव्यान सुरू करता... "आयज म्हजी पदवी केदी व्हड! हा..हा... हा... हा...! ह्या इल्याशा पोराची कसली बिशाद हाडल्या?" पासय मारता. हा... हे कशें जातलें? ताका देमांद चलोवपाक कोणाचे तरी आधार आसूंक जाय. नाजाल्यार देमांद सोपेपणी जाता? पूण हे कशें घडटलें? ताका आधार दिवंक कोण आसा? ताची रांड मांय ? ना केन्नाय ना! फक्त ताची तिमाय आसा. म्हजी बायल ताका दुडवांचो आधार दिता काय? हय, ती!

त्रायसीवो...! तायसीवो !! तायसीवो !!!

क्रिम कोणाक भोगसना
नागोवणेचें बेसांव कोणाक पचना
कित्याक आयज ना फाल्यां उबो जातलो खरो धनी
जो प्रजे हुजीर नाकारतलो खोटी करणी...

शेकीं तो दीस येता, ज्या दिसा सर पियेदाद आनी रोकासीनाचो जुलगामेन्त आसता. ह्या दिसा सर पियेदाद आपले बायलेक हे भशेन उलयता.

"आह! निश्टूर त्रायदोरा घातकी बायले! कितलें निश्टूर जायत तें तुजें काळीज. आपल्या पतीक फटोवन दुसऱ्याचें घर भरूंक? घोव कोण म्हूण समजला?.. ना...ना... तुका आनीक भोगसुणी !"

"मोगाळ पती कितें तूं उलयता? म्हाका आजून तुज्या उतरांचो अर्थ समजूंक ना. कित्याक उमाण्यां नी उलयता? हांवे कसलें पाप आधारलें तुका ह्या धारूण भेसार पावोवंक?"

"दळदिऱ्या, मालदिसांव पडिल्ले अस्तुरे आनीक सुबेज उलोवंक नाका. सेर्तूच तुवें म्हाका एक निश्ठूर त्रायसांव केलें. तू कितें समजल्लें चोरी सदांच गुपीत उरतली म्हूण. आयज उणींच दोन वर्सा जालीं. ह्या इतल्या तेंपा भितर तुवें म्हज्या भावाचे बायलेच्या चेड्यांक आनी बायलेक पोसून म्हजे गिरेस्तकायेची वाट लायली."

"हे देवा! कसलें म्हजेर हें बगलट? देवा ह्या वेळार म्हजी काकुळट कर. काजार जाल्यार आजून शेजारचें घर लेगीत हुपूंक ना. हे कितें सायबा? तूंच सायबा हें पळे म्हज्यान आनीक कायंच उलोवंक जायना".

"पुरो पुरो उलोवप सुबेज जालें! चोराक सदांच व्हडले तोंड...." अशें म्हणून तो आपले बायलेचेर एक दांडो शेंवटिता. त्याच वेळार घशघशांनी रगत व्हांवता. संवसार हो असोच चलता. फटकिरे साव जातात खऱ्याचेर बगलांट येतात. जशी आयज हे अस्तुरीचेर आयली.

इतल्यान तो वणटीवयले घड्याळीचेर नदर मारता आनी म्हणटा. आतां, एकूच वर उरलां जुलगामेन्त सुरू जावपाक तेन्ना तुका सांगता, हांव परतो येतकूच जर तूं म्हाका जिती मेळत तर तुका हांव खतखतीत तेलाचे कायलींत तळशितलों. तुजें मास रस्त्यावयल्या सुण्याक खावंक लायतलों... आयकलें ? अशें म्हणून तो एक फातर तिच्या हड्ड्यार घालता तिका धरतरेचेर शेंवटिता. रागान पांय आपटीत घरांतलो भायर सरून वता. सकाळची ज्युस्तूच १०.३० वरां जाल्लीं आनी ह्या वेळार त्रिभुनालार जुवीज भितर सरता. सगळे उटून ताका सलाम करतात. तो आपल्या व्रोनार बसतकच जुलगामेन्त आयकुपाक जण एकलो आपल्या जाग्यार बसतात.

रोकासीनाच्या पारतिदाचे तेस्तामूद उलयल्या उपरांत सर पियेदादीचें पारटीच्या १५ खडेगांठ देमांदानी नांव जोडिल्ले फांकिचे तेस्तामूंद जे सुरू ते शेवट मेरेन तीक-फोग मिरसांग नासलेल्यो गवायो दितात त्यो आयकून लोक समजतालो, रोकासीना हो देमांद खऱ्यानींच पिड्यार जातलो म्हूण.

शेकीं सगळें जाल्या उपरांत सर जुवीज विचारता. ‘‘सर पियेदाद रिबेलो तुका दिसता तुज्या पारतीन तूं हो देमांद जिखतलो म्हूण?’’

जुवीज उट्टा सांगूक सुरू करता ‘‘सर पियेदाद रिबेलो, तूं चुकला!’’ हीं जुवीजाची उतरां आयकून थंय जुलगामेन्ताक आयिल्लो लोक एकामेकालागीं फुतफुतपाक लागलो. कान फुलोवन दोळे मोठे करून तोंडात बोटां घालून आयकूंक रावले फुडली जुवीजाची उतरां...

‘‘आयकात’’ जुवीजान म्हळें. हो आसा लिपिल्लो सेग्रेद ५०० तेस्तामूद सांगता जीं भाटां बेसां सर पियेदाद उजार करता ती ताची वर्तुवनात म्हूण. आतां हे १५ तेस्तामूद सांगता ती ताचीच म्हूण.’’

हें आयकून सगळों लोक अजापता. जुवीजान कसली फिलोसोफी वापरली ही नकळ जातात हे बशेन जण एकलो एकामेका मदीं गजाली करपाक लागले तेन्ना जुवीजान म्हणले ‘‘सायलेन्सीवो’’ आनी सगळो लोक थंडगार जालो. उपरांत जुवीजान नव्यान सांगूक सुरूवात केली. आयकात, रातीं हो सर पियेदाद म्हजेसरी ५०० रुपया घेवन आयलो हो देमांद आपले फावरार कर म्हूण सांगतालो. हे बशेन

ते ५०० रुपया म्हाका गवाय दितात, जे पळे हे १५ तेस्तामूद सांगतात ती सगळी फट म्हूण हे भशेन आयचो देमांद रोकासीनो जिखता. जो खरोच त्या भाटा बेसांचो हेरदेरी जावन आसा.

ही उतरां आयकून सर पियेदादीच्या आंगार घामाच्यो पांवळ्यो व्हांवपाक लागल्यो. ताची सगळी कूड कडकडूंक लागली. ताचें मुखामळ भिरांकूळ जालें. ताणें फाटीं फुडें पळयनासतना मारली धांव. जाल्या परी एक... भशेन धांवूंक कारण किते ते विचारूंक ताका वाटेर वळखिचे मनीस मेळटात. ते थांबोवंक करतात ''पिशा! हे पिशा...!'' म्हणून ल्हान भुरगें ताच्यो मसकऱ्यो करतात. ''फातर मार पळोवया'' म्हणून चाळयतात. पूण तो एक सारको थांब नासताना धांवता.

घरांत पावतकूच ताका ताची घरकान्न दिश्टी पडटा डी. ऑलिवीया-सोफार न्हिदिल्ली. तो तिचो सरीं वता तिका उठोयता. ती उटना ते पळोवन तो आपल्या भितर म्हणटा ''म्हज्या रागान घडये न्हिदल्या जातली'' अशे म्हणून तो आंगावयले कपडे काडूंक वता परतो येवन बायलेक म्हणटा ''किते म्हटलें तुकां हावें उठ गो पिशा, जेवण काड म्हाका राग करून कितें मेळटा? उठ!''

पूण कोण उट्टा? मेल्ली मनशां आनीक परतून उट्टात? तें वीख पियवन तिणे आपल्या घोवाची अर्दे शारती पावयलें. ती उठना ते पळोवन ताच्या मेंदवाक राग मारता त्या रागान तिचे मड्डें बांयत उडयता!

आतां ताच्या जिवाक सुशेग मेळना. ताचें सगळें नेर्व उंचाबळीत जातात. हे भशेन थोड्याच वेळान पिशेपण देंवता. ताचो मेंदू विरलो. तो वणटी लागीं झगडूंक लागलो तिचे लागीं झगडून पिसो पियेदाद थकलो वचून न्हिदलो. थंयच ताका सुस्त न्हीद पडली.

उपरांत अवचि तो न्हिदेंतलो उठलो. जिवाक उवगून हेवटेन आनी तेवटेन धांवपाक लागलो. निमाणें तो खंय पावलो देवाक खबर.......

हे वर्तुवता ''नागोवणेचें पेन्सांव''

***

# 7. म्हजो अपराध




1

ताचें नांव फ्लॉरीयान आसलें. तो पिरायेन अठरा वर्साचो आशिल्लो. आंगलोटीन बारीक रूपान बेंफेयत दिसतालो. ताची ती किटी-किटी चाल साबार चेडवांक पिशें लायताली.

फ्लॉरियान सुमार आठ वर्सांचो आसताना ताचो बापूय आलबर्ट एका चोरा भशेन वयल्या सुखेस्त संवसारांत हाजीर जावंक हो संवसार सोडून गेलो.

फ्लॉरीयान आनी ताची मोगाची घरकान्न रोमालदिना ह्या एकसुऱ्या संवसारात फाटल्यान उरलीं. तांच्या दुकांचो व्हाळ जालो. व्हाळाच्यो न्हंयो आनी न्हंयचो दर्या.

ह्या इतल्या तेंपा भितर बावड्या रोमालदिनान आपल्या रगताचो घाम वारोवन फ्लॉरियानाक पोसलो. वाडयलो तिणें ताका कायंच फाल्त करूंक नासलें. ताका एकान एक देवाच्या सुमुर्तींची शिकवण दिली. ताका ल्हान आसताना देवाची भिरांत दाखोवन चलपाक शिकयलो. ताच्या अंत:स्कर्णांत सुमुर्तींचो खरो भावार्थ रिगयलो ताका बरी देख दिली. वाड-वडिलांक कशे भशेन मान दिवंक जाय. कशे भशेन जाणट्यांकडेन वागूंक जाय हें शिकयलें. शिकपाच्या वेळार शिकप. खेळपाच्या वेळार खेळप, रोजाराच्या वेळार रोजार, हे भशेन ताका ताचे खर कायदे शिकयले.

ताणें कसलेंच कारण नासताना आमोरी तेरसाक चुकोवंक जाय नासलें जे

वरवीं तो एक सगुणी जिवीत जियेवपाक पावलो. तो आयताराचें संतांचें मीस चुकय नासलो. तशेंच म्हयन्याच्या-म्हयन्यात कुमसार आनी सायब-कुमयांव घेवपाक केन्नाच विसर नासलो.

आयज आमकां असले बरे देखीन आनी रितीन वाडिल्ले भुरगें भोव थोड्या घरांनी पळोवपाक मेळटात. हें अशें जावपाक खुबशीं दुसरीं कारणां आसात. तांच्या आवय बापायन तांकां भुरगेंपणांत बरी शिकवण दिवंक ना देखून असले आवयबापूय देवाच्या घरांत गुन्यावकारी थारतात.

चतूर आनी शिटूक रावात अचीर काय घेयात. तुमच्या भुरग्यांक नीट रस्त्यात हाडात ना तर...

2

तो शेनवाराचो दीस उदेलो. ह्या दिसा फ्लॉरिनाच्या वाड्यार खुशालकायेची कार्यावळ आसली. रोगासियानाच्या काजाराची दास पडिल्ली.

कोण रांदताले. कोण माटवाक झिगझीग लायताले, तरेतरेचीं आरमांसावांव लायताले. तर कोण सोरो पियेवन आडवे तिडवे लोळटाले. कोण नविनूच मोगांत पडिल्ले आनी शेकीं कोण कोण रांदिल्ले प्रात आपल्या घरा व्हरून भरताले. हय! असल्योच त्यो हालचाली काजाराच्या घरांत चलताल्यो.

शेकीं ती रात आयली. त्या म्युझिक लवर्स हाणीं आफामाडो सुरू केली, आपली सुवादीक तोकादां वाजोवंक. ह्या वेळार कितें पळयतलो...? त्यो रोशीच्या माटवांतल्यो रांदपिणी. ती तिजलां हातांत धरून कुंपास मारपाक लागलीं. हय "दे लवड म्युझिक टू"!

"पुता फ्लॉरियाना, एकूच म्हजें उत्तर आयक, आज पळय तूं शेजाराच्या काजराक वता. शेजारालें काजार म्हणून हांव तुका धाडटां. तर हें तू विसरशी थंय तू नाचूं नाका. ह्या आनी त्या चेडवांलागीं-चेड्यालागीं गजाली करूं नाका. खालते मानेन वच आनी खालते मानेन यो. तूवें देखूंक ना खूद तुज्या दोळ्यांनी कितल्या जाणांनी भुलून त्या नश्ट्या नाचाक, आप-आपलें शेगुणी जिवीत इबाडूंक

पावल्यात. कितले जाण आयज सापडलें नात ते संवसारी लजेक? आनी कितल्या जाणांनी पिड्ड्यार केली ना जायत ती फुलती पिराय? कितलें दादले आनी बायलो ह्या असल्या नाचाक भुलून पावलींनात करूंक आप-आपल्या पर्जळत्या घराब्याचो सत्यानाश?... हो वसो लागतकच मागीर सुटपाक भोव मुश्कील? देखून हांव सांगतां तें आयक. काजाराचें घर एक अशें ठिकाण जावन आसा, जंय दिश्टी पडटात नाका जाल्ली मर्यादा नाशिल्लीं न्हेसणां. ते नाकाशिल्ले नवे स्टायलीश कपडे. आनी देवाचेर आड नाच. हे भशेन एखादो कितलोय भाग्यवंत मनीस लेगीत ह्या वशाक भुलून पातक आधारूंक पावता''.

''हांव तुका धाडची नासली शेजारालें काजार शेजारी करिना जाल्यार कोण करतलो? पूण, मोगाळ पुता फ्लॉरीना, एक मात विसरूं नाका. तुजे तोंड न्हवऱ्याक दाखोवन रोखडोच घरा परत यो! बरें तूं वच शिंतिदान वच काळोख जाला जाल्यार वात व्हर'' व्हींवर भितर काडपाचो वेळ जालो.

3

फ्लॉरियान भितर सरता त्या काजराच्या माटवांत. कुशीक आशिल्लें एक कदेल वेंचून काडून ताचेर वचून बसता.

न्हवऱ्याचो पाय (फिलीप तीव) जायत्या जाणांक इन्सुल्लार करतालो ''तुका काजराक कोणें आपयला?'' अशें म्हणून आनी हें पळोवन जायत्या जाणांनी जे कोवीत नासताना आयिल्ले ताणीं पळ काडलो'' रोगासिनाच्या काजराचें पाड पडूं'' म्हुणून लोक गेले.

शेकीं प्रिमेर आनी सेंगूंद नासताना व्हींवर आनी लादेन भितर काडली. बॉसत्यांव तिवान, साल्तिवान, आनी फिलीप तिवान. ताणीं सुरू ते शेवट मेरेन खर्शेवन घामाघूम जावन शेकीं सोपयली.

सावूद उबारली सर तोर्रादो फोनसेकान. कटा! व्हंकल-न्हवरो बावडी दोन ए. बी. सी. डी. ची घंटा लेगीत धड शिकूंक नाशिल्लीं. पूण सर तोर्रादान सारकीच तोर्राद पुर्तूगेजीन सावूद सुरू केली. ती आयकून जायत्या जाणांनी ताका हात

दिलो. ताचे हुशारकायेक लागून न्हय तर तो तांबडी पुर्तूगेज भास उलयतालो म्हूण. पूण कितें जांव सर तोर्रादानाचें नांव गाजलें. खंयी काजार आसल्यार ताका सावूद करपाक व्हरताले ताका एक फेणीची बोतल दिल्यार पुरो आसली.

सर रोका तिवाक एम. सी. वेंचून काडलो. ताचो नेट सांगूंक नाका. तो नविनूच ताखाची वियाज मारून आयिल्लो. एम. सी. चो झेंत ताका बरोच सोबतालो. रांदपीण तेरेझान ताचो शेपाडो धरलो. तेरेझा ताची फाटूच सोडिना जालें. तो वता थंयसर तें हजर आसलेंच.

नाच सुरू जालो. मांय चेड्याक घेवन नाचता, पाय धुवेक घेवन नाचता, मिशो फुटूंक नाशिल्लें काजारी बायलेक घेवन नाचतात. धा वर्सांचे तरणाटे चेडवांक घेवन नाचतात. जाल्यार रायट एंगल जाल्या म्हाताऱ्याचो नेट पळोवपा सारको आसलो.

सगळो लोक त्या माटवांतलो नाचतालो. भायर फ्लॉरियान आपली मान खाला घालून बशिल्लो. हें पळोवन ताचे जायते इश्ट ताका नाचपाक फोर्सार करताले.

फ्लॉरियान तांकां कोणाक दिस्नासलो. तो आपली मान खाला घालून बशिल्लो आसताना अवचीत ताच्या फुडें उबें जाले डी. कारलेता. जें हेवटेन तेवटेन लाग मारून ताका म्हणपाक लागलें. ''कितें फ्लॉरियान? कित्याक नाचना?.. यो हांव तुका शिकयतां'' अशें म्हणून तें ताच्या कोटाक धरून ओडटा. तेन्ना आनीक दुसरो उपाय ना जावन फ्लॉरियान नाचपाक तयार जाता.

ह्या वेळार म्हाका आदलो उगडास येता. ज्या काळार दादले चेडे वताले बायलो-चेडवांक नाचपाक उठोवंक. पूण आयज सगळें उरफाटें जालां...

कारलेता आंकवार चली आसलें. ताच्या नांवा प्रमाण ताणें कितल्या दादल्यांचो आनी वाडिल्ल्या चेड्यांचो इबाडलोनाजायत फुडार?

कारलेतान आपल्या कॉगऱ्या केसांनी फ्लॉरियानाक आपल्या रातेरांत ओडलो. एक नाच दोन नाच.. तीन नाच.. जो भुरगो आदीं नीट नाचूंक नकळ आसलो, तो आतां कारलेताच्या सांगाता रावन ऐकूय नाच चुकय नासलो.

''क्यूरा सेरा सेरा...'' वाजोवपाक रोक तीवान ओर्द दिली. हें आयकून रांदपीण तेरेजाक कूय आयली. ताणें आपल्या वांगडा नाचपाक रोक तिवाक फोर्सार केलो. तीव बरोच सोऱ्याच्या नादार आसलो. तो हेवटेन तेवटेन लाग मारतालो. तो वचून एका चेडवाक आपटलो. चेडवाच्या भावान वगत करिनासताना रोखडोच येवन रोक तिवाचेर एक थापट मारलें.

इतल्यान सगळ्याक बोवाळ जालो. माटवांत घुसपागोंधळ जालो. कोण उरता कोण मरता हें समजना जालें. बायलो, चेडवां आनी म्हाताऱ्यांचो व्हडल्यान बोवाळ जालो. जीव आसल्यार भीक मागून खायन म्हुणून पळटा आसताना खंयच्च्यान तरी सर तोरादो रांदपीण रिताक फोर्सान आपटलो. ती दोगांय वचून पडलीं सॉपाच्या तिजल्यांत न्हवऱ्याचो पाय फिलीप तीव आरड मारपाक लागलो. न्हवरो रोगासीन बावडो सगळो माटव भोंवपाक लागलो. ते व्हंकलेचे बावडेचे चुरचुरे!... व्हंकल आपले. उल्हास हें भशेन सोडपाक लागली ''पाडा पडूं म्हाका काजार करूक फुडें सरतल्याचें...''

आनीक थोड्या वेळान फिलीप तिवान कोंतीत नासताना आयिल्ले तांकां धांवडायले. ताणीं फातर आनी हाताक मेळटा तें शेंवटूपाक सुरू केलें. पेत्रोलमास फुटले. आरमांसावा चो इबाड जालो. कोणाचें तिवळ व्हांवलें. फिलीप तिवाच्या घरांक बोते पडले. नळे फुटले.

मुजग्यांनी आलवोराद वाजयलें. शेकीं बाबड्या रोकासियानाच्या काजाराची परब अशी सोंपली. पूण आमी पळोवया हे गडबडीत फ्लॉरियाना आनी कारलेता मदीं मोग किल्लतालो, तो खंय पावलोतो.

रोगासियानाचें काजारूच नाका म्हूण फ्लॉरियान आनी कारलेता घरा येवपाक परतलीं. कारलेतान आपलो एक हात फ्लॉरियानाचे खाकेंत घालून हे भशेन गजाली करूंक सुरू केल्यो.

''मोगाळ फ्लॉरियान तूं जाणा, कितलीं हांव पिशीं जाल्या तीं तुज्या मोगान, करूंक तुका सासणाचो पती?''

''हय, म्हज्या कारलेता, म्हाका तुजे विणे हो संवसार नाका. हांव हेच घडयेक

तुका उत्तर दितां. तुज्या शिवाय कोणाच्याच लागीं हांव काजार वा एकवट करचो ना म्हूण.''

''पूण एकमात फ्लॉरियान, आमचें काजार रोकडेंच दवरूंया. बऱ्या कामांक आनीक वेळ कित्याक ?....

''त्या पासत तूं कांयच भिनाका. कारलेता केदच्याय वेळार तयार आसा''

शेकीं तीं पावलीं फ्लॉरियानाच्या घरालागीं. कारलेतान म्हळें ''आदवेस फ्लॉरियानो आमी फाल्यां मेळचीं''.

''आदवेस कारलेता'' अशें म्हुणून फ्लॉरियानो भितर आपल्या घरांत सरलो.

4

आयज सुमार दोन म्हयने वलांडले आपले. आवयचे खोशी भायर फ्लॉरियान कारलेता लागीं काजार जाल्लो.

ह्या इतल्या तेंपा भितर दिसान दीस मांय सुनेचीं झगडीं जातालीं. ताची मांय रोमालदिना आपले सुनेक एक जाप लेगीत काडी नासली. दीस-रात खंती जावन हुसके आपले भितर सोंसताली. पूण एका 'सुण्या' बरी सून मांयक केन्नाच भोगशिनासली. ती दीस रात सुसकारताली आपलें दूख देवाक भेटयताली.

फ्लॉरियान काजार जावचें आदीं आवयचो खूब मोग करतालो. तो आतां काजारा उपरांत बदल्लो. ताका गोपांतलें उशें मेळटकूच तो एकदम आवयक विसरलो. तो आवयक एका क्रियादावरी वापरूंक लागलो.

हय, म्हज्या वाचप्या, अदीक करून आतांच्या तेंपार हो संवसार असोच चलता हाचें पाग (फारीकपण) कोणाकूय मेळ्ळे बगर रावचें ना. कारण ह्यो आसात, त्यो म्हणण्यो वडिलांच्यो ''आयज तुका फाल्यां म्हाका. दिल्ल्या मापान घेतलो आनी केल्ल्या मापान भोगतलो. काळे केंस केन्नाच वा सदांच काळे उरचे नात कांय दिसानी पिकतले. आदी.

5

रातीचीं इकरा जाल्लीं घोवा बायलेन आपले कुडींत न्हिदूंक वचपाची तयारी केली.

तेन्ना रागा–मोगाच्या ताळ्यान कारलेतान म्हळें.

"पती, पळे हो संवसाराचो एसताद खंय पावला तो. जरी एके वटेन हो संवसार भरला गिरेस्तकायेन, तरी जाय तो लोक आमचे भशेन दुर्बळ जावचे बदला तो गिरेस्त जाता".

"तर कारलेता, तूं अशें उलोंवपाक कारण कितें? म्हाका तुज्या उतरांचो अर्थ समजलो ना!"

"मोगाळ पती, आयक! आयज आमी तिगां जाणां आसात ताचे बदला जर आमी दोगांच आशिल्लीं तेन्नाच हो संवसार आमच्यानी सवस्तकायेन तांडूं येतालो! हें खरें न्हय?"

"व्हय कारलेता? कळ्ळी म्हाका तुजी समजणी. तुजे सांगणेप्रमाण हावें पयस करूंक फाव म्हाका जल्म दितले म्हजे एकलेच, आनी ल्हानपणांत पोसतले, मोगाचे मांयक?... अशें न्हय?.

"न्हयच तिका पयस करूंक. पूण उपाय ना. कारण तिका पयस केल्यार लोक आमचेर टिका करतले. ते पासत म्हाका अदीक बरें दिसता, तिकाच ना करूंक"

"जिवेशीं मारूंक म्हज्या मांयक? कारलेता कशी तुका फुटलीं हीं उतरां उच्चारूंक. ना! केन्नाच ना! ..हें असलें धारूण निश्ठूर कर्तूब आदारूंक म्हज्यान बिलकूल घडचें ना कारलेता." "जाल्यार तुका जाय तशें कर! आनीक तुका हांव कांयच सांगना. पूण एक मात, तुका जाय तुजी मांय न्हय...?"

"म्हणजे? कित्याक नाका?"

"तर बरें आसा, एक तुका सांगता. एक फावट हांव म्हजे मांयगेर गेल्ली, परतून तुज्या म्हेळकुट्या सांगातान जियेवंक मात भोव अवघड म्हूण तूं समज.

आयकलें तुवें?.. उपरांत रडूं नाका कितें तें म्हाका आतांच ज्या ज्या...सांग!''

ताका किते करचे ते कांयच समजना जालें. हो जो जॉमेट्रीचो अवघड पोंत कसो ताच्या कानार सोडिल्लो ताका पळोवन तो सगलोच घुसपलो. आपल्या मनात विचार केलो. कितें करचें तें...

बायलेक घरा वच म्हूण सांगचे वा म्हजे मांयक जिवेशीं मारची?' ताची चिंतना दुपेटीन जालीं...! तें चिंतेन थारावणी घेतली. ना.. म्हाका म्हजी बायल जाय. हांवे तिचें आयकूपाक जाय कारण म्हजी मांय फोंडात वचूंक तेंकल्या. हे पिरायेचेर तिचो कासतीग कोण काडटलो! अदीक बरें तिका आतांच नाटक केल्यार? हय, हांवे शेर्तूच बायलेंचे आयकुपाक जाय..!'

इतल्यांन कारलेतान विचार केलो ''कितें फ्लोरियानो?.. जाप ना!''

फ्लॉरियानाचेर वीज पडिल्ले बरी जाली. अवचीत ताच्या तोंडात खेळटाली तींच उतरां भायर सरली ''मोगाच्या कारलेता तूंच म्हजी पतीण. तुजें विणें हांव एकसुरेंपणांत कसो जियेतलों? ... हांव राजी असां तूं कितें सांगता ते करूंक?..हय, तुजेंच आयकतलों?''

हीं उतरां आयकून कारलेतान वेळ केलो ना. धांवलें. कुजनात गेलें. कुजनांतल्यान एक धारेची सुरी हाडली. फ्लॉरीनाच्या हातांत दिली. अशे तरेन ते मध्यान रातीच्या भायर ताणीं मायचे कुडीची वाट तांकली.

6

कारलेतान एका हातात दिवो धरिल्लो. दुसरो हात पतीचे खाकेंत घाल्लो. भोव चतुरतायेन धडधडट्या काळजान तीं ते भिरांकूळ काळखे रातीं एक एक आपलें पावल  घालतालीं.

मोगाळ वाचप्या ह्या प्रमाण कसलेंच शीट्ट वा फिट्ट जायनासताना तीं मांयचे कुडीच्या दारार पावलीं. तीं कुडीच्या दारांतूच आसताना तांकां तांचें सावज दिश्टी पडलें. फ्लोरियानाच्या निश्ठूर भेसाक पळोवन भारी खती भरीत जावन हुसकारली.

''म्हज्या पुता, कितें करूंक तें येवजिता?... हुंदराच्या रागान घराक उजो घालता. तर कर तुका जाय तें. देवान तुका निर्मिलां तशें'

मांयची हीं उतरा आयकल्या उपरांत फ्लॉरियान शितीदा भायर गेलो. ताका कांयच समजना जालें आपूण खंय आसा तो ताचें काळीज सगळेंच बदल्लें. तो तीं मांयची उतरा चिंतूक पडलो. ताच्या ज्या हातांत ती सुरी आसली. तिचेर घण पडिल्ल्या भशेन जालो. अवचीत ताका नकळटना सण्ण आवाज करून तीं खाला पडली.

त्या वेळार तो सगळोच बेजारलो. आपूणूच आपणांक सांगूंक लागलो. हे ते पळय म्हजे मांयचे लुकलुकते दोळे. जे म्हज्या काळजांत भितर पावले शे दिसतात. म्हजें काळीज तिच्या दोनूय भिगभिगत्या दोळ्यांनी ओडून व्हेलें शें दिसता. दुसरे वटेन म्हजे बायलेची ती दारूण आनी खरसाणीची उतरां म्हाका एका व्हड फोंडात पावयतात शीं दिसतात. हांव चलता म्हूण एक वाटमारेकार...

ह्या वेळार म्हज्या काळजाची दोन अर्दां जालीं शीं दिसतात. व्हडलें अर्द बायलेच्या अर्दान गेलें. तर दुसऱ्या अर्दान ताचेर आपलो रागाचो शिरांपाचो तांशेर मांडिल्लो...

''पुता आनीक कित्याक इतलो वेळ लायता सारती पावोवंपाक तुजी ती येवजण. तुजे बायलेच्या काळजांतलो आंवडो कर बायलेक खोशी! दी. म्हाका सासणाची सवस्तकाय...!''

''दळदिरे बायले, आनीक सुबेज उलोवंक नाका!'' म्हाका ना पाय, ना मांय ह्या संवसारांत. कडसर.. कडसर..कडसर... हागांसरली..!''

हीं उतरां आयकून फ्लोरियानाची बावडी म्हातारी मांय मिळमिळ्यान रडूंक लागली. हे भशेन उल्हासूं लागली...

''पुता म्हज्या मोगाच्या एकल्याच पुता, फ्लॉरियाना तुका उगडास आसा. जी ह्या वेळार तुज्या, फुड्यांत एके गायेभशेन आपले वागाचे कोपशेन सांभाळिल्लो म्हूण. णव म्हयने आपल्याच़ पोटांत शेकीं मर्णाचे तनरीर जल्म तुका दिल्लो म्हूण. उगडास़ तुका आसा. तुवें कितलें आटे-विटे कशे भशेन काडले साबार फावटीं

उपाशी रावून तुका पोसलो?... उगडास तुका आसा. कशे बशेन रगताचो घाम व्हांवून तुका शिकयलो-वाडयलो? पुता आयज तूं गोपांतले उशें मेळटा म्हुणून सगळें विसरलो?.. उगडास धर हे सगळें वयर सावन तुजो बापूय पळयता आसतलो, जो तूं आठ म्हयन्याचो आसताना मेल्लों. दिल्लो म्हज्या हातात तो दुखीचो भालो. तुका वाडोवंक आनी शिकोवंक हांव कांयच वायट उतर म्हणना. म्हज्या मोगाच्या पुता नियाळ-नियाळ म्हजी उतरां भागय तुजी आनी तुजे बायलेची वणवण.

मोगाळ वाचप्या तीं मोवाळ उतरां आयकून कोणूय कितलोय दारूण काळजाचो पूत खऱ्यानीच आपले आवयक वेंगायतलो आसलो. पूण ना! तशें कांयच घडलें ना फ्लोरियाना कडल्यान तेच बरोबर तो आनी ताची बायल कारलेता, ते म्हातारे आवयचेर फांपार शेंवटितात. तेच घडयेक म्हातारी बावडी धर्तरेचेर शेंवटता.

हाय..! हाय..! ह्या नवलायेच्या संवसारा... खंयच्याय एका पुताक तांकात आपल्याक जल्म दितल्ये आवयचेर फांपार घालपाक...?

"पुता...! चड दुख म्हाका भोगलें हांवें केन्नाच म्हज्या जल्मांत चिंतले ना म्हजे सुनेचो फांपार हांव घेतली म्हूण. पूण ना. म्हाका तें निर्मिल्लेंच ...!" अशें म्हणून ती दिमियेन सरपटत देवा लागी मागतां...

"सायबा भोगोस तांकां...तीं नकळ आपूण कितें करतात तीं. सायबा दी ताकां गिन्यान तांचीं खोटीं कर्तुबां कळूंक। सायबिणी म्हज्या आदाराचें आनी काकुळतीवंत सायबिणी माये! सांबाळ तांकां तुज्या मनांत. घाली नाका इनफेरनांत. तीं वर्तुवतात नेणार. दी तांकां बरी मत. कृपा करून बरी वाट दाखय".

ही प्रार्थना करून ती उठोवंक येवजिताली. तो दारूण पूत फ्लॉरियान ते सुरियेची मूठ तिचे तकलेर शेंवटिता. तिका तितलेंच पुरो जाता ते धरतरेर परतून आपटूंक.

कटा! चुचुरे बाबडेचे...! ती म्हातारी पडली आनी तिचे दोनीय वटेन रगत व्हांवपाक लागलें. कोण जाणां की दाखोंवक सोदताली रगत रगताक वळखना म्हूण?.

इतलेंय जावन लेगीत ती आपल्या पुताचेर वा सुनेचेर एक लेगीत वायट उतर उलयना फक्त हिमटयांनी रडटा. देवालागीं मागता तांकां भोगोस म्हूण.

मोगाळ वाचप्या. आपल्याक जल्म दितले आवयक हे भशेन कितल्या पुतांनी व्रातार करूंक ना जायत?... कितल्या जाणानी पावोवंक ना जायत ताकां त्या दळदिऱ्या भिकारपणांच्या भेसार?... पूण भावांनो उगडास दवरात. एक सत आसा. दिल्या मापान घेतलें, तें कोणाकूच चूकना. तेच भशेन म्हज्या भयणिनो, ज्यो आसात आयज सुनो फाल्यां कांय तेपान जातल्यो मांयो, तेन्ना तुमकां वेळ येतलो पावोवंक असल्या म्हाताऱ्या भेंसार.

शेकीं दुसरो उपाय ना जावन ते रातीची लांबाय आनी रुंदाय पळय नासताना ती एकसुरी भायर सरता त्या घरांतली, खंय तरी जीव वांटोवपाक...

7

दीस धांवतात. सुमान पळतात आनी तितले म्हयने लागीं पावतात. तशें मनशाचे जिवीत चडटा आनी देंवता. तें एका थाऱ्याचेर केन्नाच उरना.

मोगाळ वाचप्या हेंच भशेन ती वयली गजाल जाल्या. फ्लोरियानाचे जिणेंत अदृश्ट आनी लाचारकाय देंवता. ताका शिर्विसी वयलो काडटात. हें सगळें पळोवन ताका जबरदस्त धक्को बसता. ताची अवतिकाय पिशाभशेन जाता. तो रात दीस घरांत बसून लाचारकायेचें रोजार करता.

चड तेंप कांय बलाडूंक नासलो. पूण जाले आयज फक्त दोन तीन म्हयने हावें म्हजे दयाळ आवयक म्हजे सरिशी ना केल्या आनी तेच घड्ये सावन म्हजेर लाचारी आयली. शिर्विसूय ना आनी मांयूय ना.

मोगाळ भावानो, आतां म्हाका तुमकां सांगूंक लज भोगता. सांगल्यां विणें म्हजेय भितर दवरूंक कित्याक उपकारता?... नियाळात हांव कितें सांगता तें? हो म्हजो अदृश्ट लाचारकायेचो भेस पळोवनच म्हजी बायल कारलेतान वगत करिनासताना तें आपली सांठली-पोटली घेवन आपल्या मांयच्या घरा गेलें.

आनी खऱ्यांनीच हे दळदिरे अस्तूरेक लागून हांव म्हजे अपुरबायेचे मांयक सासणाचो सोपोवंक पावलों. मांयन म्हाका जायतें सांगले. ताचे लागीं काजार जायनाका म्हूण. हांवें तिचे कांयच कानार धरलें ना. म्हाका जाय तशें हावें केलें. ताचे पाग (फारीकपण) आतां म्हाका जुस्तच मेळ्ळे. हय म्हज्या भावांनो, ह्या वेळार म्हाका येवजतात ती उतरां तीं तुमच्या मनांत घालूंक, येवजितां...

"इश्टा ह्या संवसारात जाय तें मेळत,

बायल दुडू इश्ट-मित्र, फोलगां संगत

ह्या संवसारांत व्हड मानाक पावत,

पूण भोव मुश्किल मेळूंक आवय परत.

"इश्टा बायल वर्तुवता एक परकें सपन?

नकळत आमी केन्ना वचत ते हुबून,

पतीचेर ना तिचें दान-मन

देखून संवसारांचें जावंक पांवलें घट्टाण"

आयज साबार सुमानां वलांडलीं. आयजुय हांव बेकार शेट आसलों. आतां म्हाका म्हजो शेवट लागीं पावलासो दिसता. कारण एक वटेन ना शिर्विस. दुसरें वटेन म्हजेकडेन कितें आशिल्लें-नाशिल्लें हांवे सगळें विकून जालों, निगूत बँक करप्ट. कोण आता पावत म्हाका ह्या आकांताच्या वेळार?...

न्हिदूंक गेल्यार न्हीद पडना. जेवंक गेल्यार जेवण घरांत ना. हे भशेन म्हजी अवतिकाय दिसान दीस अदीक आनी अदीक कोसमेंवक लागल्या. चिंतून-चिंतून तकली म्हजी थकली आतां आनीक दुसरो उपाय ना. फक्त उरलां एकूच तो वर्तुवता भिकारिपणाच्या भेंसार! पूण ना अशें करूक हांव कबूल ना.

आह! सुरिये तयार जा वचूंक म्हज्या काळजांत. पूण एक मात ह्या वेळार तर म्हजी मांय आसली फुड्यांत हांव तिचे कडेन गुन्यांव भोगसूंक मागतां आसलो. "माय म्हजो अपराध!"

ह्या वेळार अवचीत एका विजमीता भशेन ताच्या फुडयान ताची मांय रोमालदिना उबी जाता. ती म्हणटा.

''ना पुता फ्लॉरियान तुजो अपराध न्हय पूण हो वर्तुवता तो म्हजो अपराध''
''किते हांव जागो आसां वा सपनेतां?''

''ना पुता तूं जागो आसा हांव तुजी मांय रोमालदिना तुका सांगता. पुता तुजो अपराध न्हय. कित्याक जाणा? आयक जर तुका हांवे रोगासियानाच्या काजराक धाडूंक नासलो. तर हे अशें जावचें नासले. देखून हांव म्हणटां.

''म्हजो अपराध.''

''ना! म्हजे अपुरबायेचे मांय ना. हो म्हजो अपराध''

''ना पुता ना. म्हजो अपराध''

***

# 8. नवो पर्जळ घराब्याचो



1

तो माणकुलो केपेंचो गांव. जो सैमानूच शिरंगारला. त्या पांचव्या झाडां-माडांनी, दोंगरांनी आनी काळ्या-किट्ट न्हंयो व्हाळांनी.

त्या गावांत थोड्या तेंपा फाटीं एक आस्तीक घराबो रावतालो. सर आलफ्रेड डायस आनी डी. अनुसियाचो. तांकां तांच्या एकवटाचो अपुरबायेचो तीन वर्सांचो आयरीश नांवांचो एक भुरगो आसलो.

हो घराबो खूब आस्तीक आसलो. तांकां व्ह-व्हड भाटां आनी बऱ्या पिकावळीचीं शेतां आसलीं.

डी. अनुसिया ही एक भाग्यवंत अस्तुरी आसली. ती सामकी देवाच्या मोगान पेटिल्ली. ती सदांच एक तरी मीस आयकताली. ह्या मिसार सायबा कोमुन्यांव घेताली. ती सदांच खालते कायेन वावुरताली तिचें ते शेगुणी आनी खालतें जिवीत पळोवन जाय तें लोक अजापताले. तिका भाग्यवंत अस्तुरी म्हूण पाचारताले व्हड तसो बारीक लोक तिका आदरान मान दिताले. सदांच ती दुसऱ्याचें दूख उणें करपाक वावुरताली. चड करून आपल्या लागीं तांकता ते प्रमाण कसलीय वस्तू गरीबांक दिताली. ती केन्नाच ना म्हण नासली. चड मुखेल खबर तिच्या जिविताची वर्तुवली म्हणल्यार ती दिसान दीस ह्या आनी त्या घराब्यांनी भोंवताली. मिसाक वचना तांकां बऱ्या रस्त्यार हाडटाली कुमसार जायना तांकां कुमसार वच म्हूण

सांगताली.

पूण अशें आसून लेगीत तिचो पती एक खोटो मनीस आसलो. कुडीच्या धादोसपणाक वेंग मारील्लो. आयताराक सांताचो मीस तो आयकनासलो. कुमसार कुमन्यांव फक्त काजराच्या दिसांनी घेतालो तितलोच. आमोरी तेरसाक तो नासलो. तो एकटेपणी देंवचारांच्या रांतेरांत जियेतालो.

ताणें देवाच्या हुजरां सातवो साक्रांमेन्त जोडिल्लो.तो जुरामेन्त पिसडून उडयलो. तो एका खोटे रांड पूण तरणे अस्तुरेच्या फुड्यांत दीस-रात सारतालो. देवाचो णववो उपदेस तो विसरील्लो.

2

एका दिसा आलफ्रेड ते खोटे आस्तुरेच्या घरांत आसताना म्हणटा कितें जुलियेटा?... आयज एक सुमान जालें हांव तुका चिंतेस्त कशें पळयता?... ह्या दिसांनी तूं म्हज्या लागीं आदल्या भशेन उलयना?... कारण कितें? म्हाका दिसता तूं कसल्यातरी चिंतनांनी घुसपलां म्हूण हें खरे?''

''खरेंच मोगा, तुवे सेर्तूच पारखिलें... जाय ते दीस हांव तुका सांगूक येवजितालीं... पूण म्हाका सांगूंक नाका शें दिसतालें..''

''कितें जुलियेटा म्हज्या पिशा'' अशें म्हणून तो ताच्या तोंडार आपलो हात ओडट्टा. आनी म्हणटा ''कित्याक तूं फाटीं रावता?. सांग...सांग... कसलीच भिरांत दवरी नाका हें कसलें तुजे नेणारपण?''

''मोगाच्या आलफ्रेडा तें म्हाका तुका सागूंक बरे दिसना. कारण ते एक वटेन तुका बरें दिसचें ना. सांगुना जाल्यारूय तुका फुडारांक वायट वतले.

''तर जुलियेटा म्हाका बऱ्याक पडटलीं गजाल तूं सांगूक तयार ना?'' तेन्ना ती खोटी अस्तुरी वेंग मारता, आलफ्रेडीक. एका धाकटूल्या भुरग्याभशेन ताका आपल्या वेंगात घेता. सांगपाक सुरूवात करता अशें...

''मोगाच्या आलफ्रेड! तूं काय मिसाक वचना. तेन्ना ती गजाल तुका कळपाक

भोव मुश्कील''

''कितें? कितें तूं सांगता जुलियेटा?''

''तूं नकळ मोगाच्या आलफ्रेडा. तुजी बायल वर्तुवता एक फुलगडी जी मिसाक तुज्या दोळ्याक पानां लावपाक वता. पूण खंय जाणां? आयज तिचें सगले उणाक फोटू शोफेरांच्या पाकिटांनी आसतले''

''आह! दळदिऱ्या अनुसियासांव... हें कसले तुजे त्रायसांव!... त्रायसांव...!''

''असलीं पांप्रेलपणां तुजे वाडट्टले वेलीर हाडट्टली. व्हड दूख आनी निरभाग ते तुवें मरसर भोगचे पडटले ह्या संवसारांत मेळचो ना तुका घडी भर थार!...

''खरेंच हांव वर्तुवलो इनोसांत! हाय..हाय..आतां हांवें करचें कितें? मोगाचे जुलिएट ह्या वेळार दी म्हाका एकूच उपाय कितें हांवें करचें तें. ते दळदीर निश्ठूर बायलेक?... सांग...सांग...म्हाका कसलो तरी उपाय....

''मोगाच्या आलफ्रेड, तुवें पळयले नात. कितले गुणेस्त पती लागून त्या पांप्रेल बायलेक मेले नात पिवून वीख. कितल्या जाणांनी आपले गोमटेर फार मारून पिस्तोलाचे नाताक जाले नात, ह्या दुर्भागी संवसारांत?.. चिंत आनी बारीक नियाळ म्हजें उलोवप वर्तुवना जाल्यार एक नीज सत.''

''खरेंच जुलियट, तूं सांगता तें एक नीज सत हें आयज म्हाका कळून आयलां. हांव इतलें दीस वर्तुवतालो इनोसांत...पूण आयज सावन म्हजे दोळे जे आसले काळखांत तें आयलें उजवाडांत. म्हजे जे कान आसले भेरे ते जाले उक्ते. शेकीं म्हजे हात जे आसले मुयेलेले ते जाल्यात तयार तूं सांगता तें आदारूंक. तर सांग मोगा ह्या वेळार कसलो तरी उपाय''

''मोगाच्या आलफ्रेडा, तूं जाणा तुजी बायल...''

''जुलियेटा.. जुलियेटा...उपकार करून ते म्हजे दळदिरे बायलेचे आनीक कांयच म्हाका सांगू नाका पूण ह्या वेळार म्हाका एकूच सांग कसलोय तरी उपाय''

''आयक आलफ्रेड, हो आसा एक सोपो उपाय. पयलो काड प्राण तुज्या चेड्याचो, ज्या वरवीं ते पोजडे अस्तुरीचीं भुरगी ह्या संवसारांत नाकात, दुसरो

उपाय, पयस कर तुजे नदरे भायर तुजे बायलेक जी जी आसा आयज स म्हयन्यांची''

''आ.. आ...एक्सलेन्ट आयडीया'' हीं उतंरा म्हुणून तो आनीक रावना दोन धेंपा मारून दाराकडेन पावता. तें उगडून भायर सरून काळखांत नाच जाता.

''आलफ्रेडो...आलफ्रेडो...'' जुलियेटा आड्डता पूण जाप ना.

3

रातीचीं धा वरां जाल्लीं. आलफ्रेडाचो पत्तोच नासलो. शेकीं इकरां वाजलीं. ताची बायल डी अनुसिया बावडी एका कदेलाचेर बसून आपल्या पतीची वाट पळयताली, तो केन्ना येतलो. तिच्या जिवाक हुसको जाल्लो. चिंतना तिच्या मतींत येतालीं. ती जाणा आसली आपलो पती खूब सोरो पिता म्हूण तिका दुबाव पडलो. घडये सोऱ्याच्या नेटार तो खंय न्हिदला जायत म्हूण.

टींव-टांव करुन दरवंटो वाजलो. इतल्यान सोऱ्याच्या कुमसार सर आलफ्रेड भितर सरलो. पूण आयज ताचें मुखामळ एका वेगळ्याय रागाच्या भारान भरील्लें.

''मोगाच्या पती, कितें तुका जालें आयज?... सगलें तुजें रूप बदल्लाशें दिसता. पळोवपाक वेगळोच दिसता.

रागान ''हे दळदिऱ्या व्रायसावांचे बायले-एक उत्तर सुबेज उलोवंक नाका म्हज्या दोळ्यांक पाना बांदून तूं तुका जाय तें करपाक सोदता?.. ना...ना....तशें करपाक तुका मेळचेंना. म्हजे कुडींत जीव आसा तो मेरेन. तूं किते समजलें? ...अशें म्हुणून तो तिचेर थापट मारता. म्हणटा तुज्यो खोट्यो पोजड्यो करण्यो म्हाका कायंच समजुवपाच्यो नात म्हूण''

''पती किते हें तूं उलयता?...म्हाका आजून तुज्या उतरांचो थाव मेळूंक ना...''

''मेळचोचना वच शोफेराच्या फाटल्यान थंयसर तुका मेळटलें.''

''कसले सायबा हें बगलांट म्हजेर हाय...हाय.. सर्व-पदविदरा रचणारा''

“तुज्या आनी तुज्या भुरग्यांक हांव नाताक केल्या शिवाय रावचो ना. हें केल्या शिवाय म्हज्या जिवाक केन्नाच सुसेंग भोगचो ना. त्या पासत हांवें चितलां, त्या पुताक आयरिशाक त्या अरिश्ट रानांत खांवक लावक ते निश्ठूर गिरासतें मोनजातीन”

“किते?.. मोनजातीक खावंक दितलो आमच्या पुताक?”

“हय, हय!” एके पोजडे खोटे अस्तुरेच्या कुसव्यांत जल्मल्लो ताचे असलो भुरगो ह्या संवसारांत दवरूंक कित्याकूच उपकारना!

“म्हज्या मोगाच्या पती हें तुवें किते चिंतला? कोणे देंवचारान तुका आपल्या रातेरांत सापडीला?.. म्हज्या इनोसांत भुरग्याचो एकल्याच आयरिशाचो तूं कित्याक प्राण काडपाक सोदता?... ना...! ना...! हांव तुका तें केन्नाच करपाक दिवची ना ताचे बदला पयली हांव मरतलीं. म्हजे कुडींत हो लुकलुकतो प्राण आसा, ते मेरेन म्हज्या लाडक्याक केन्नाच जिवो मारपाक दिवची ना...!

“ना...ना...! असले निरभाग आनी अदृश्ट हाडील्या भुरग्याक ह्या संवसारांत दवरून कसलोच फायदो ना... ह्या भुरग्याच्या कुडीचो प्राण काडले बगर रावचो ना”.

त्या वेळार अनुसिया दिमियेर रावलें दुकांच्यो झरी करुन तें प्रार्थना करता “म्हज्या काकुळतीवंत धनया कित्याक तू इतलो निश्ठूर जावन दारूण जाला तुज्या रगताच्या भुरग्याचो प्राण काडूंक?..आह...म्हज्या पती तूं आयज देवा सामकार इनोसांत जाला. जरी तुका ताचो गुन्याव कसलोय सापडट्टा जाल्यार ताचे बदला हांव तयार आसां. म्हजो प्राण केद्या वेळार दिवपाक तुका जाय ते भशेन!”

“अनुसिया! तुजी प्रार्थन म्हाका नाका. ह्या वेळार म्हजे कान भेरे जाल्यात म्हज्या दोळ्यांतल्यान उज्याच्यो किट्टट्यो भायर सरतात. हात लोखणा परस घट्ट जाल्यात.”

अशें म्हणून तो अनुसियाक धुकलता. तिका जमनीर शेंवटिता. तेन्ना आपल्या इनोसांत पुताक काशेंत, घालता दुसऱ्या हातांत एक खोरें घेवन त्या घरांतलो

भायर सरता.

कटा! आयरीश सांपडलो ताच्या हातांत आनी मोगाळ वाचप्या ह्या वेळार ताची रगताची मांय अनुसिया उरता सयराणाभायर ते जमनीर.

4

ते भिरांकूळ रातीची रूंदाय-लांबाय पळय नासताना तो खोटो फातरापरस खर काळजाचो आलफ्रेड आपली रानांतली वाट तांकता त्या अरिश्ट रानाच्या भिरांकूळ काळखांत पावतकूच ती काश सकयल दवरता. खोरें घेवन फोंड काडूंक लागता सुमार धा खोरीं मारल्या उपरांत ताचे कुडीर आकांत येता. ताचे हात असकर जातात. ताचें काळीज धप धप करुन धापेंवक लागता. शेकींतोय नकळ जाता. आपूण करता किते तें.

दुसरे वटेन ताच्या कानार टकटक करुन आवाज सोदपाक लागतात हेवटेन तेवटेन ताका जोगलावणी कशी दिश्टी पडपाक लागली.

ताणें आपले मतींत म्हळे ‘‘हें आनी कितें सायबा’’ ही आनीक कसली मिसतेंयोर.. इतलें म्हणसर ताचेर इतलो आकांत सुटलो तो एक निमाणो फोर्स करता. जीव आसल्यार भीक मागून खायन म्हूण आयरीशाक ते काशींत दवरून धावूंक लागता.

ती जोगलावणी दुसरी तिसरी खंयचीच नासून ती ‘‘हेड लायट’’ आसता एका कासादोराची तो धांवून त्या फोंडा लागीं येता. कोण तरी चोर आपली गिरेस्तकाय थंय लिपोवूंक आयला म्हूण. ताका फोंड थंय उक्तो मेळटा. हें पळोवन तो समजता तो चोर गिरेस्तकाय घेवन पळून गेलो म्हूण.

दुसरे वटेन तो भारी खुशाल जाता. तागेर एकूय ल्हान भुरगें नासलें म्हूण. तेन्ना तो देवाक आर्गां दिता...आयरिशाक उखलून आपल्या गोपांत घेता. भोवच खोशी जाता. शिकार बी कायंच नाका म्हूण आपली घरची वाट तांकता.

5

दनपारच्च्या वेळार सुर्यान आपली किर्णां पृथ्वीचेर शिंवरायिल्ली. तो रस्तो खर उल्हास सोडटालो. सगलें अतरांळ रागाभरीत जाल्लें. वारें मनीस कुळयेक थार दिनासलें. ह्या वेळार कोणेय त्या एकसुऱ्या रस्त्यार नदर मारली जाल्यार ताका दिश्टी पडटली एक स म्हयन्याची गर्भेस्त अस्तुरी बाबडी व्हड कश्टान वाट तांकताली तिचें मुखामळ दुखेस्त आनी चिंतेस्त दिसतालें. तिचे काळे किट्ट मातशे कोंगरे केंस हेवटेन तेवटेन शिंवरील्ले. तिची चाल बेबद्या परस पाश्ट जाल्ली. तिच्या दोळ्यांतल्यांन दुखांच्यो झरी व्हांवताल्यो. आंगलोटीन किडकिडीत आसली. रूपान सोबीत सुंदर दिसताली ह्या वेळार तिची काकुळट करपी थंय कोणूच नासलो.

तिच्या त्या असकट भेसाक पळोवन दिसतालें, ती आपले सगळे कश्ट आनी दग्ध देवाक भेटयता म्हूण तीं कायंच उलयनासली. ती फकत उच्चारताली हीं उतरां ''सायबिणी पाव म्हाका ह्या आकांताच्या वेळार'' दुसरें वटेन तें दुखेस्त मुखामळ दाखयतालें; ती जाय ते दीस उपाशीं आसा म्हूण.

तर कोण आसत ती निरभागी अस्तुरी?..

वाचप्या ही आसली आलफ्रेडाची बायल डी. अन्‌सिया, जी थोडो वेळ चल्ल्या उपरांत एके रांड अस्तुरेच्या घरांत पावता तिच्यान मुखार पावल घालपाक नज जाता. त्या घराचे कुशीक बसता. हो चुरचुऱ्याचो भेस पळोवन त्या घरांतल्या ते रांड बायलेंचे तें काळीज मोवाळटा. तिच्या लागीं वचून तिका आपल्या घरांत हाडटा. तिका रावपाक आदार दिता.

सुमार दोन म्हयन्यानी डी. अनूसिया एका भुरग्याक जल्म दिता. ताका नांव दवरता लेवनार्दीना.

अशींच वर्सां वतात. लेवनार्दीना ते फुलते पिरायेर पावता. ती पंदरा वर्साची जाता. डी. अनुसिया वावराक वता. आपलो आनी आपले धुवेचो ग्रास जोडपाक ती हे खोशाल कायेन आपले दीस सारता.

6

‘‘पती, तुवें कितें चिंतलां? घरचें कितें आसा ते सापकाबार करूंक?..’’ मारेकीन त्या कासादोराची बायल रागान विचारता.

‘‘म्हाका तुज्या उतरांचो समज मेळूंक ना मारेकीन?..’’

‘‘आयज उणींच पंदरा वर्सा जालीं. तुवें ती रानांतली साग्वाद हाडून दवरल्यार. तुका आनी म्हाका पोसपाक न्हय?... पूण तो कांयच करिना रात दीस जेवपाक मात उबो जाता. हें कोणाकूय सांगल्यार लोक लेगीत हांसतले’’.

‘‘मारेकीन, तू हें अशें कित्याक उलयता?... देवाक लेगीत तुर्जी हीं गर्विशटकायेची उतरां आयकून वायट दिसतलें. आयज आमगेर कितली गिरेस्तकाय आसा तरी तुका तीं दारूण उतरां उलोवपाक तोंड कशें येता’’

‘‘पूण आयज सावन हांव तुका सांगता. तुवें त्या आयरिशाक म्हजे नदरे भायर केल्ल्या शिवाय म्हज्या जिवाक सुशेग मेळचो ना.’ हांव केन्नाच फेलीज आसचीं ना!

‘‘ही असलीं उतरां उलय सारकीं कितें त्या आयरीशान केलां? कितें तुजें वायट आदारलां ?.. तूं नकळ कसल्या मर्णाच्या फांसाक ताका बांदिल्लो?..कितलो तेंप जालो आमगेर भुरगी नात. कोण जाणा हो आमकां देवानूच फाव केला म्हूण.. तेन्ना आमी ताका आमचो खाशा पूत कसो करचो. एक व्हड दोतोर करचो. कशें दिसता तुका हें चिंतप?’’

‘‘वारे-वा! तुजी चिंतना इतलीं उंच? शाबास...!’’

‘‘मारेकीन विसरलीं तूं तो देवाचो उपदेश’’ जसो आपल्याक देखता तसो पेल्याक देखचो म्हूण?’’ ह्या वेळार ताच्या मेंदवाक राग भिराभिरता रागान म्हणटा.

‘‘कोण जाणा, ह्या असल्या गर्विशट उतरांक लागून देवान तुज्या कुसव्याक तें फळ फाव करूंक ना म्हूण...हांवूच पासियेसाचो म्हूण तुजे सारके बायलेच्या लागीं दीस सारतां ...

ही उतरां आयकून ती रडूंक लागता. तर फाल्यां हांव चल्लीं म्हज्या मांयच्या

घरा. म्हजी सांटली-पोटली घेवन. उपरांत तूं आनी तुज्या मोगाचो आयरीश खुशालकायेन दीस सारात''

हें आयकून रागान तिचो पती मारेकिनाच्या आंगार धांवता. तेन्ना अवचीत आयरीश येता. जो हे सगळें संभाशण आयकतालो मार्टीनाक (कासादोर) आडायता सांगता'' म्हज्यान तुजे केन्नाच उपकार फारीक करपाक जावपाचे नात. कित्याक तुवें म्हाका निश्ठूर मर्णांतलो वाटायला. आतां दुसरो उपाय नासून हांव खंयच्याय दुसऱ्या गावांत वतां. कित्याक फांकी बरोवप्यानी आनी जाणकारांनी सांगलां ''बऱ्याक पडटा तें कर'' आनी हांव ते करपाक राजी आसां''

शेकीं आयरिशाल्या दोळ्यांतल्यान घसघशांनी दुकां व्हावपाक लागलीं. त्याच रडकूऱ्या ताळ्यान ताणें प्रारथिलें ''देवान तुका आनी तुज्या पत्नीक कसल्याय मोड-वादळां विणें वाटांवचे. खूब वर्सा सांभाळचीं ह्या सवसारांत..'' अशें म्हणून तो त्या घराचे पांवडे देंवता. आपले चालीक लागता.

''आयरीश! आयरीश!... वता म्हज्या पुता, आयकलीं तुवें म्हज्या गर्विश्ट बायलेचीं उतरां?... आह... आह...! कितलो म्होवाळ भुरगो तो वर्तुवता? आयज तूं वता तिरान-तीर करून म्हजें काळीज आह! आनीक तू परतो मेळशी?... संवसार काबार जालो लेगीत?.. ना...! ना!... म्हाका आनीक आशा ना शेकीं आयरीश तुवें म्हळे बऱ्याक पडटा तें कर. आह! म्हज्या दळदीरे बायले!... तुकाच लागून नाताक जालो आयरीश म्हजे वेंगेतलो...''

मोगाळ वाचप्या हे भशेन तो आड्डून जीट मारता. धरतरेर पडटा. कोण जाणां फुडें कितें घडले तें!

7

जाय ती वाट चल्ल्या उपरांत तो सामको थकता. एके अस्तूरे लागीं वता इल्लेशें उदक पिवपाक मागता ते उदकाचे घोट पिल्या उपरांत ती अस्तुरी ताका विचारता.

''भुरग्या तूं चिंतेस्त कित्याक? कितें जालें तुका? तूं खंय वता?''

‘‘हांव वता म्हज्या क्रिमीदोराचो सूड घेवपाक?... हांव ताच्या रगतान म्हजे हात धुले बगर रावचोना.’’

‘‘क्रिमीदोराचो सूड घेवंक?...

‘‘हय, म्हज्या क्रिमीदोराचो सूड घेवंक’’

‘‘तर भुरग्या तुजें नांव किते? खंय वर्तुवता तुजो गांव?’’

‘‘म्हजे नांव आयरीश...!’’

‘‘आयरीश ...? आयरीश...? आयरीश...?’’

‘‘तुजें नांव आयरीश? तर तुज्या ल्हानपणांची इस्तोर थोडी तरी तूं जाणां?’’

‘‘हें आनीक तूं म्हाका कितें विचारता?’’ तर तूं म्हाका वळखता?’’

‘‘ना, ! म्हाका एक दुबाव आसा!’’

‘‘तर म्हज्या ल्हानपणाची इस्तोर हांव जाणा ती ही. हांव एक बऱ्या मनशा वरी एका जाणट्या आंज्या भशेन गिरेस्त मनशाच्या तोंडांतलो वाटावलो. देखून हावें तुका म्हळें ‘‘म्हज्या क्रिमीदोराचो सूड घेतले बगर रावचों ना’’.

हीं उतरां आयकून ती अस्तुरी उबीं आसली थंयच झीट येवन धरणेर पडली. आनी म्हळे ‘‘हांव जागी आसां वा सपनेतां?... लेवनार्दीना म्हजे धुवे...!’’

‘‘मांय कितें जालें?.. कितें उलयता?.. तूं जागी आसा आनी सपनेता म्हणटा?’’

‘‘धुवें! तूं वळखता ह्या भुरग्याक?’’

‘‘ना! ना’’ म्हजे मांय, हांव ताका वळखना.

‘‘तो आसा तुजो भाव आयरीश. जो आसा म्हजो म्हालगडो पूत हांव समजली तो मेलो म्हूण. पूण देवाचे कृपेन जालो आमच्या फुडें जिवो?’’ अशें म्हुणून अनुसिया आयरिशाक घट्ट वेंग मारता. आपल्या दोळयांतल्यान दुकांचो समुद्र करता.

वाचप्या देवाचे कृपेन ते वाऱ्यार पडिल्ले फामिलीची नव्यान सुरुवात जाता.

अनुसिया आपल्या पुताक सगली खबर सांगता. ती बरीं करून आयकून आयरीश विचारता ''तर मांय खंय रावता म्हजो पाय?''

''तुका कित्याक जाय म्हज्या पुता? तूं थंय गेल्यार आमकां परतो मेळचो ना.''

''भावा तूं थंय वचूं नाका! मांय सांगता तें आयक''

''ना भयणी! हांव थंय वचना आनी विचारीना पूण गरज आसा. हांव म्हज्या पायचे ठिकाण जाणा जावंक सोदतां'' अशें म्हुणून तो आपलो हात भयण लेवनार्दीनाच्या तोंडार ओडटा.

शेकीं सांगल्या उपरांत आयरीशाक पायचे ठिकाण कळटा. जें चड पयस नासलें तो येवजिता कोणाक कळनासताना पायच्या ठिकाणार वचपाक ताचो सूड घेवपाक.

त्या दीसा इकरा वाजिल्लीं आसतात आयरीश आपले मांयक म्हणटा ''मांय हांव बाजारांत वचून येता'' ''पुता बरे खोशयेन वच. पूण एक मात उगडास दवर थंय मात वचूं नाका!'

8

आयरीश निकतोच आपल्या खाशा घराचे पांवडे चडून भितर सरील्लो त्या वेळार ताका जुलीएट आनी आलफ्रेड बशिल्लीं दिश्टी पडलीं.

तेन्ना तो एकाच ताळ्यान आड्डलो... कोणूच हालचीं ना! ''सुरी भायर काडटा. जी ताणें कोणांक कळनासताना लिपून हाडील्ली तो विचारता'' मनशा तुजें नांव कितें?...

''आलफ्रेड डायस, सायबा!'' कडकडल्या ताळ्यान तो प्रतिपाळ करता.

''सायबा म्हणपाची गरज ना पळय हे सुरयेक, जी तयार आसा वचूंक तुज्या काळजांत. तेन्ना एकान एक खरें सांग फट सांगल्यार तूं ह्या संवसारांतल्यान नाताक जातलो. फटीचें एक किसकूट नासताना हांव कितें विचारतां तें खरें सांग?. ना तर

पळय हे सुरयेक, जी हांसता भेटूंक तुज्या काळजाक!''

ह्या वेळार आलफ्रेडाक शेळो घाम सुट्टा. ताका कळटा सगळें खोटें, दारूण-कर्तुबाची जाता ह्या संवसारांत खरी नीत तेन्ना दिमियेर पडून त्या रागीश्ट भुरग्याच्या फुड्यात उच्चारता ही उतरां,

''सायबा म्हाका भोगोस!... हांव चुकलों.''

''पूण हांव देव न्हय. हांव आयलां विचारूंक जाप व्हरूंक तुज्या उतरांची. तर मनशा, ही कोण तुजी?..''

ह्या विचाराक मोनो जाल्लो तो बावडो कितें म्हूण जाप दितलो?... तेन्ना आयरिशाच्या मेंदवाक राग भिरभिरता. तो ताच्या काळजाक सुरी तोपपाक वता. पूण अवचीत फाटल्यान कोण तरी ते सुरयेक धरता तेन्ना आयरीश सगळोच पिसावता. फाटल्यान पळयता कोण आसलो तो अपघात करपाक आडावपी मनीस...वागाभशेन चवताळील्लो आयरीश एकेच घडयेची नदर! बाबडो जाता. तो हात नासता-दुसरो तिसरो तो ताच्या खाशा रगताचे भयणींचो तिच्या सांगता ताची मोगाळ मांय आसली.

तेन्ना मांय म्हणटा ''पुता आयरीश भोगोस तुज्या पायक. एकूच गुन्याव भोगोस तुज्या पायचो!''

ही उतरां आयकून आलफ्रेडाचेर एक जोगलावणी कशी पडटा. तो ती आयरिशाल्या हातांतली सुरी घेवन त्या जुलियेटाक सासणाची सोंपयता.

मोगाळ वाचप्या हें आसा तें पाग त्या खोट्या नश्ट्या दळदिऱ्या एका तेंपार धनी देव रचता.

तेन्ना आलफ्रेड आयरिशा मुखार दिमी घालता.

म्हणटा ''पुता आयरीश म्हाका भोगोस...!''

''तूं उठ पाय देवान तुका भोगसुवचो''

''मोगाळ पत्नी म्हाका भोगोस''

‘‘देवाचे कृपेन केद्याय वेळार’’ मेळटा ताका जाप

‘‘आनी हें कोण?’’

‘‘ही तुजी धूव लेवनार्दीना

शेकीं आलफ्रेड सगळ्यांक व्हडा आनंदान वेंगायता. देवाक आर्गां दिवन म्हणटा....

हो ‘‘नवो पर्जळ घराब्याचो’’....

***

Poili uzvadda [illegible]

**NOXIBANT NIRMILELEM**
15.4.1957 | 22.4.1957 | 29.4.19[illegible]
6.5.1957 | 13.5.1957 | 20.5.1957
28.5.1957 | 3.6.1957

**MOG MANDINAM ZATI-CATI**
24.9.1956 | 1.10.1956 | 8.10.1956
15.10.1956

**"KELELEA MAPAN BHOG"**
[illegible].7.1956 | 23.7.1956 | 30.7.1956

**SOPON**
22.10.1956 | 29.10.1956

**ROGTACHO XIRAP**
18.3.1957

**NAGOUNNECHEM PENSANV**
10.6.1956

**MOZO OPRAD**
[illegible] | 23.9.1957 | 30.9.1957
7.10.1957

**NOVO PORZOLL CHARASLACHO**
[illegible] | 15.7.1957 | 22.7.1957
29.7.1957

**नशिबांत निर्मिल्लें** ह्या पुस्तकांत वट्ट आठ कथा आस्पाविल्ल्यो आसात. 1955 ते 1958 ह्या काळांत 'अ वांगुर्डा' ह्या पोर्तुगीज कोकणी रोमी सातोळ्याचेर ह्यो काणयो उजवाडाक आयिल्ल्यो आसात. ह्यो काणयो मोग, राग, सूड अशा जिणेच्या तरेकवार तासांचेर उजवाड घालतात. सुमार पन्नास वर्सां आदलें गोंय, हांगच्या समाजाची जिणेतरा आनी धार्मीक मुल्यां ह्या काणयांतल्यान मुखेलपणान चित्रीत जातात. काळजार्ची दारां उगडूंक लावपी कथानक, काळानुरूप अशी लालीत्य पुर्ण भास आनी विशयाची यथासांग मांडणी, ह्या गजालींक लागून हो संग्रह वाचकांच्या मनांत घर करून रावता. हें पुस्तक विस्मृतीच्या हुंबऱ्यार पाविल्ल्या एका लेखकाच्या साहित्य रचणुकेच्यो यादी परत जित्यो जिव्यो करता.

**कामिलो मिनेझीस**: (19-7-1938 ते 28-7-1998) हांणी District & Sessions Court मडगांव, तशेंच केपें कोर्टांत, सुपरिंटेंडट म्हणून वावर केला. साबार वर्सां South Goa (NG) Judicial Court Employees Association हाचीं अध्यक्षपदाची सुत्रां सांबाळ्यांत. गोंय मुक्त जावचें पयलीं, तरणाटे पिरायेर 'अ वांगुर्डा' ह्या सातोळ्याचेर सातत्यान कथा, कविता, लेख बरोवन आपल्या लेखनाक सुरवात केली. केपेंच्या गावांत, थळाव्या कलाकारांक घेवन 'फावना ते मेवोना' आनी 'म्हजो अपराध' तशेंच हेर कांय तियात्र बरोवन माचयेर हाडल्यात.

**विशाल खांडेपारकर** हो तरणाटो कवी, बालसाहित्य रचनाकार आनी युवा कार्यकर्तो जावन आसा. फाटलीं सुमार बारा-तेरा वर्सां तो कोंकणी चळवळींत आपले परीन कार्य करता. कोंकणी भाशा मंडळाच्या, कोंकणी विद्याभुवन शाळेंत तो सुमार धा वर्सां शिक्षक म्हण वावुरता. सुनापरान्त आनी वावराड्यांचो इश्ट हांचेखातीर बातमीदार म्हुणूनूय तो वावुरता. ताणें कोंकणी विशयांत गोंय विद्यापिठाची एम्. ए. पदवी मेळयल्या. पदव्युत्तर अभ्यासक्रमाखातीर 'रोमी लिपी' हो खाशेलो पेपर ताणें अभ्यासला. 'आनीक एक मृत्युंजय' हो ताचो कवितासंग्रह उजवाडाक आयला. ते भायर 'वावराड्यांच्या इश्टाखातीर' तो काणुल्यो हो भुरग्यांखातीर आशिल्लो खाशेलो प्रकार नेमान बरयता. 'माडासंबंदीत उतरावळ' ह्या विशयाचेर सोद वावर करपाखातीर ताका 2003-2004 वर्सांची गोवा कोंकणी अकादेमीची 'क्लारीसा वाझ ई मोरेनास' संशोधनवृत्ती फाव जाल्ली आसा.




गोवा कोंकणी अकादेमी